# स्मगलर

'शेजाऱ्याली सासूमांय,' आनीं 'अेक सुंदरी, चार चोर'
(तीन अेक-आंकी खेळ)

रचपी
**डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**



जाग प्रकाशन

जाग प्रकाशन : १५
पयलें अुजवाडावप : आक्टोबर, १९७५



मोल : ४ रुपया

अुजवाडावपी :
सुमन्त रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय

छापपी :
य. गो. जोशी
आनन्द मुद्रणालय
१५२३, सदाशिव,
पुणे–३०

# पयलीं अुतरां

हो तीन नाटकुल्यांचो झेलो : 'स्मगलर', 'शेजाऱ्याली सासूमांय' आनी 'अेक सुंदरी चार चोर'. 'स्मगलर' ह्या नाटकाची कल्पना म्हजो अिश्ट गुरुनाथ केळेकार हाणे दिली. 'शेजाऱ्याली सासूमांय'ची कल्पना हांवें अेका फ्रांसेझ नाटकुल्यावेल्यान घेतली. 'अेक सुंदरी चार चोर' हें नाटकुलें पुराय म्हजें.

हीं तीनूय नाटकुलीं चौगुले कॉलेजचे वर्सुकी सांस्कृतीक कार्यावळीपासत बरयल्लीं. मागीर तीं गोवा कलाअकादमीचे माचयेर खेळयलीं.

ज्या अिश्ट–मित्रांनी म्हाका हीं नाटकुलीं वाचून-पळोवन सुचोवण्यो केल्यो आनी ज्या भुरग्यांनी उमेदीन हीं नाटकुलीं लोका-मुखार दवल्लीं तांचो सगल्यांचो हांव अुपकारी. आनी जाणें हीं नाटकुलीं आज तुमचेमुखार पुस्तका रुपान हाडलीं त्या सुमन्त केळेकाराचोय हांव अुपकारी आसां.

मडगांव
१–१०–७५

मनोहर सरदेसाय

संवगा :

**मधू** : अेक पोलीस अिन्स्पेक्टर

**लता** : जगन्नाथरावांली धूव

**बाबू** : जगन्नाथरावालो धाकलो पूत

**जगन्नाथराव** : अेक वेपारी, स्मगलींगान दुडू करपी

**फोंडूराव** : अेक मंत्री

**लक्षीमबाय** : जगन्नाथरावांची घरकान्न

**सिल्व्हेर** : जगन्नाथरावांचो शेजारी

त्याभायर, पांडू, पेटो हे चाकर

(बरें सयजल्लें साल, सोफा, दोशीं दोन कदेलां, उजवेकडच्या कोनश्यांत वांटकुळयाच मेजार टेलीफोन; दावेकडेन भायलें दार. उजवेकडेन भितल्लें दार. दावेकडल्या कदेलावयर एक जनेल. पड्डो वयर सरता तेन्ना मधू सोफार बशिल्लो आसता आनी लता उजवेक-डल्या दाराक तेंकून उबें आसता. )

**मधू** : ( सिगाराचो गोबर फाफडीत ), म्हणटकच हांवें हांगा सिगार ओडीत बसप आनी तुवें थंय उबें रावप मूं ? यो, हांगा येवन बस.

**लता** : मातसो थार धर रे. सामको हुतहुतो तूं !

**मधू** : तुज्या घरा पावतकच हांव परकी जातां. हय मूं ? कळळें. आगो बस हांगा. तुज्या कानांत कितें सांगतां.

**लता** : सांग मरे. मोटयान सांग. आनीक कोण ना घरांत.

**मधू** : आनीक कोण ना घरांत जाल्यार हांगा बसूंक कितें जाता ?

**लता** : आतां कोण ना घरांत. पुण बाप्पा केन्ना येत घरांत सांगूं येता ?

**मधू** : आगो, बाप्पा येदे बेगीन येता घरा ? पेत्रोलाचीं लातां, साकरेचे बस्ते, गोडाच्यो धेंपी आनी मिनाचे ट्रक आसतना ताका घरा येवपाची भोव याद जाता !

**लता** : पुण आज बाप्पा मातसो बेगीन येवपा आसा. आज हांगा बसका आसा. उद्येगमंत्री येवपा आसा.

**मधू** : बरें बाये कळळें. तूं अशेंच पयसुल्लयानूच उलय. हल्लो ! हल्लो ! कोण ? लता आसा?

**लता** : हल्लो ! हल्लो ! रॉंग नंबर !

**मधू** : रॉंग नंबर बट राइट गर्ल !

**लता** : पुरो आतां.

**मधू :** बाबू खंय गो ? दिसलो नासो ?

**लता :** गेला आसतलो खेळूंक. दीसभर हेडप ताजें. पळेतां आं. ( जनेलाकडेन वेता ) तो पळे पेरीर चडला. पेरीक पेरां ना पुण पेरीर चडपाचें सोडिना तो.

**मधू :** पडटकच जातलो शाणो. हांव मोगांत पडून शाणो जालों ना ?

**लता :** शाणो खंय ! आं ! ये ! बा ऽऽबू ! बाऽ ऽबू ! ( शिळोणी आयकूंक येता ! ) येता खंय.

( बाबू जनेलांतल्यान उडकी मारून भितर येता. )

**लता :** ( बाबूचो कान धरीत ) बाबू कितलेदां सांगलें तुका जनेलांतल्यान उडकी मारूंक जायना म्हणून. दारांतल्यान येवंक जाय.

**मधू :** सोड ताजो कान, लता. हांवें आपयला ताका. बाबू दोळ धांप आनी हात फुडें कर. ( बाबू दोळे धांपता आनी हात फुडें करता. मधू ताज्या हातार चाकलेट दवरता. ) उगड आतां दोळे. चल भायर दाराकडेन राव आनी--

**बाबू :** जाणां हांव. बाप्पा दिसतकच पद म्हणप.

फारार फार जाताय रानांतू

फारार फार जाताय रानांतू.

( बाबू पळत वेता. लता येंवन सोफाच्या तोंकार बसता. )

**लता :** आं, कितें सांगपाचें सांग आतां.

**मधू :** ( हात लांबयत ) अजून दोन हात पयस. कानांत कशें सांगूं ?

**लता :** बरें बाबा ( मातशें लागीं येवन बसता ) पुरो ?

**मधू :** अजून देड हात पयस.

**लता :** हें पळे आयलें लागीं. आतां तरी सांग बाबा !

**मधू :** आनीक मातशें लागीं—( ताजो हात हातांत घेता. )

**लता :** बाप्पान आमकां अशीं पळेल्यार तूं कितें सांगतलो ताका ?

**मधू :** ज्योतिशी म्हणून. आनी तुज्या दोळ्यांक दोळे लावन पळेताना तुज्या बापायन म्हाका पळेल्यार हांव कितें सांगतलों जाणां ?

**लता :** कितें ?

**मधू :** हांव दोळ्यांचो दोतोर म्हणून.

**लता :** ही तुजी दोतोरकी चड वेळ चलची ना. मधू तूं बाप्पाक वळखना. ताका समजावन सांग रे मातसो.

**मधू :** म्हाका समजावन सांगपाक कळना. म्हाका एकूच कळटा: एक घाय दोन कुडके. यो सांगतां. आज हांवें थारायलां.

**लता** कितें ?

**मधू :** तुका उखलून व्हरप. सगली तयारी केल्या.

**लता :** भायर घोडो हाडून दवल्ला मरे !

**मधू :** हय सगली तयारी केल्या. भटाक लेगीत हाडला. चल, भायर सर. चल बेगीन. ( इतल्यांत "फारार फार जाताय रानांतू ". म्हणत बाबू येता. मधू जनेलांतल्यान भायर उडकी मारता. फोंडूराव आनी जगन्नाथराव वांगडा भितर सरतात.)

**जगन्नाथराव :** म्हणटकच म्हज्या मनांत आसा तें खरें जातलें तर !

**फोंडूराव :** जगन्नाथराव, तुमचें उतर सकयल उडोवं येता ? म्हज्या हातान जाता तें करतां हांव. पुण केंद्र सरकाराकडल्यान एक कोटी कर्ज मेळोवप बरेंच कुस्तार जातलें तरी पळोवया. दिल्लीक गेल्याबगर हें काम जायतशें दिसना.

**जगन्नाथराव :** वचूंक जाय जाल्यार वचूं नाका ? फाल्यां वेतात? हांव तिकीट काडूंक लायतां.

**फोंडूराव :** तुमी कित्याक काडटात तिकिटी ? हांव पावतलों दिल्लीक केन्नातरी. फुडल्या म्हयन्यांत पावन.

**जगन्नाथराव :** शे ! अशें केन्ना जाता ? ही कामां बेगीन जावं नाका ? फायचीच काडूं मू तिकीट ?

**फोंडूराव :** काडटलेच जाल्यार काडात. तुमकां म्हज्यान आडावं येता ? पुण हें पळेयात. काडटले ते दोन तिकिटी काडात. हिकाय वरोबर व्हरतलों म्हणटां. तिणें दिल्ली कसली ती अजून पळोवंक ना,

**जगन्नाथराव :** पांडू ! खंय रे गेलो तो पांडू ? ( पांडू भायल्या

दारांतल्यान येता.) हें पळे पांडू. दिल्लीच्यो दोन तिकिटी रिझर्व कर म्हुणू सांग. फायच्यो आं. चल बेगीन.

**पांडू ;** आनी फाल्यां मेळना जाल्यार, बाब.

**जगन्नाथराव ।** मेळना ? म्हाका मेळना ? हांवें सांगलां म्हणून सांग. चल बेगीन. (पांडू वेता). मेळना खंय !

**फोंडूराव :** खरें म्हळयार फाल्यां म्हाका खांडेपारा वचूंक जाय आसलें. थंय खांडेपार फुटबॉल असोसिएशनान फुगेटयांचो पसरो घाला ताजें उक्तावण करपाक. हांव कळयतां तांकां फाल्यां पावना म्हुण. तुमचें काम चड गरजेचें न्हय ? फुगेटयो कितें आयच्यो फाल्यां मारतकच जाल्यो ! कितें म्हणटात तुमी ?

**जगन्नाथराव :** हय. फाल्यां मारतकच जाल्यो फुगेटयो. पुण, तुमचे कृपेन तरी आमच्या गोंयां एक मोटारीचो कारखानो जावंदी.

**फोंडूराव :** तुमच्या मनांत आसल्यार हो कारखानो पडपाक कळाव लागचो ना. कारखानो बरो चल्ल्यार फायदोय थोडो मेळचो ना. भारतांतलो सगलो लोक तुमच्योच मोटारी वापरतलो.

**जगन्नाथराव :** मंत्रीसायब, फायद्याचें कोणें चिंतलां गा ! पयलीं देशाची सेवा. लोकाच्या बऱ्याक आमचें हे जिवीत. कितेंय तरी बरें करून फाटल्यान बरें नांव उरचें इतलेंच मागतां. हो कारखानो जायत जाल्यार गोंयच्या कितल्या लोकांक काम मेळटलें आनी कितलीं घरां सुखी जातलीं? कितल्या भुरग्यांक जेवण मेळटलें, शिक्षण मेळटलें! म्हजो फायदो जांव ना जांव, लोकांचो फायदो जालो म्हणटकूच पुरो.. बेकारी ना जातली आनी गोंयचें नांव संवसारभर गाजतलें . . .

**फोंडूराव :** आसूं जगन्नाथराव. तुमींय मंत्र्याभाशेन भाशणां करूंक लागले. आगा, तुमकां फायदो ना म्हळयार जाता ?

**जगन्नाथराव :** तशें न्हय गा. ना म्हणना हांव फायदो. आसा थोडो. पुण लोक–सेवा पयलीं न्हय ? हें पळेयात फोंडूराव, कारखान्यांत पयली मोटार जातली ती हांव तुमकां ऑफर करतलों. नाका म्हणूं नाकात हो.

**फोंडूराव :** म्हाका कित्याक जाय मोटार ! मोटारीचो नाद

म्हज्या चल्याक. आनी चलयेक तर तेयपरस. दिल्ली साकून परतो येतकूच दोन मोटारी घेवन दिवच्योच पडल्यो तांकां. दोगांय पोरां सामकीं लागल्यांत फाटल्यान म्हळयार.

**जगन्नाथराव :** शे ! शे ! अशें कशें जायत ? आमच्यो मोटारी आसताना तुमी दुसऱ्याल्यो मोटारी घेतले ? भायर सरता ती पयली मोटार तुमच्या चल्याक. आनी दुसरी तुमचे चलयेक. कारखान्याचें उक्कावण मात तुमी करूंक जाय आं.

**फोंडूराव :** तें मात नाका आं. लोक कित्याय कितें उलयतलो मागीर. तुमी दितात त्यो मोटारी कितें ना म्हणटलों ? तर आतांच्या काळांत मोटार म्हळचार धवो हती. पोसपाकूच म्हारग. टायर फुटले, ब्रेक म्होडले, कटकटीच चड.

**जगन्नाथराव :** आमचीच मोटार कंपनी आसतना तुमकां सर्विसिंगची कसली गा भिरांत ?

**फोंडराव :** हय गा. पुण मोटार कितें रस्त्यार दवरतलों ?

**जगन्नाथराव :** आमच्यो सात गॅरेजी आसात तांतुतली एक तुमकां पावलीच.

**फोंडराव :** जगन्नाथराव, लोक हांसतले म्हाका. म्हणटले, फोंडूरावाकडेन मोटारी आसात, गेरेज आसा, पुण रावपाक मात घर. ना. आताचें सरकारी घर काय आमचें जाता ? आज आसा फाल्यां ना. आनी आमगेलें पेडणेंचें घर रासवळ गा. तें आतां सामकें पडूंक आयलां.

**जगन्नाथराव :** खरें उलयले. तुमकां रावपाक एक बरो बंगलो जायच. पुण खरें सांगूं, शाण्या मनश्यान घर बांदूं नयें. खंय लोखण मेळना. खंय शिमीट मेळना–एक सादेंच घर बांदतलो जाल्यार दोन लाख जाय. दोन लाख थोडे जाले ? ताजे परस भाडयाच्या घरांत रावल्यार सवाय पडटा. आं ? कितें येवजितात ?

**फोंडूराव :** हय. हांव येवजितालों फाल्यां खांडेपारा गेलोंना जाल्यार लोकांचो विरूस जांवचो ना ? बावडयांच्यो फुगेटयो शेळचो जातल्यो. दिल्ली कितें ? केन्नाय वचूं यता.

**जगन्नाथराव** : अशें कितें म्हणटात मंत्री सायब. दिल्लीच्यो तिकेटी काडूंक लायल्यो न्हय ? आनी हें पळेयात, तुमकां घर ना म्हळयार कोणूय पिश्यार काडटलो. हें घर तुमचेंच. जाय तेन्ना येवचें, जाय तितले दीस रावचें.

**फोंडूराव** : तशें न्हय जगन्नाथराव, थंय गेलों ना जाल्यार खांडे-पारच्या लोकांक खूब वायट दिसतलें. दिल्लीक कितें आज ना फाल्यां वचूं येता. दिल्ली कितें पयस आसा?

**जगन्नाथराव** : हां बरें सुचलें म्हाका. हें पळेयात फोंडूराव, मड-कय म्हजें एक भाट आसा. न्हंयचे देगेर. थंय एक ल्हानूच घर आसा. माया म्हयन्यांत हांव थंय रावंक वेतां. जीव असो थंडगार दिसता. थंय नळ आनी वीज बसयल्यार पुरो. हांव सांगतां न्हय ? तुमकां मानवतलेंच तें घर.

**फोंडूराव** : तशे खांडेपारचे लोक समजीक खूब. दिल्लीक काम आसा म्हुण सांगल्यार ते वायट धरचे नात. तरी खरें सांगूं तुमकां ह्या उक्तावणांचो, सत्कारांचो म्हाका वाज आयला सामको. लोकांक दिसता, मंत्र्यांक आनीक दुसरीं कामां नात.

**जगन्नाथराव** : पुण लोकांक दुखोवं येता ? लोक मोगान आपयतात म्हणटकच वचूं नाका ? म्हणटकच फाल्यां वचप थारलें तर-म्हजें काम अर्दें जाल्ल्यावरी जालें तुमकां लागून. आतां थोड़ी च्या घेवंया न्ही ?

**फोंडूराव** : आनी केन्नाय. आतां म्हाका मातूय वेळ ना. आतां म्हाका पालासींत वचूंक जाय. आनी मागीर बेळगावां वचूंक जाय. अखील भारतीय चिवडा सेवक समाजा तर्फेन म्हजो सत्कार आसा.

**जगन्नाथराव** : जाणां हांव. म्हणून चड आग्रो करिना. च्ये ! सत्कार चुकोवंक जाता केन्ना ? तुमीं सांगून बरें केलें. बेळगांवां वेतातूच न्हय तुमी ! म्हजें एक ल्हानशें काम आसा. म्हज्यो दोन बेगो आसात त्यो व्हरून मातश्यो बेळगांवां पावत्यो करच्यो. चड कांय ना. थोडे स्पेर पार्टस. एका इश्टाची गाडी बावडी कुपाद पडल्या.

**फोंडूराव** : इतलेंच मू ? धाडून दियात. जगन्नाथराव. फोंड्यां तिस्कार बार इदेयालामुखार मोटार थारायात.

**जगन्नाथराव** : तुमी बाराचें नांव काडलें म्हणून याद जाली. म्हजो बेळगांवचो एक आमीग फोरीन विस्कीक जीब सोडटा. हांव बेळगांवां वतांच न्ही. चार पांच बाटल्यो व्हरतलों म्हणटां.

**फोंडूराव** : इतलेंच मू ! पावलें म्हजेर. बरें. बरें येतां हांव (वेता)

(टेलीफोन वाजता.)

**जगन्नाथराव** : हलो ! हलो ! कोण ? मुंबयच्यान उलयता ? आं ! आं. मर्तू रे ? कितें खबर ? कितें ? मातसो मोटचान उलय. आं ! आं ! सगलीं पुस्तकां धाडलीं मरे ? कसली आडखळ आयली ना मरे ? बरें ! आं ! आं. विमान बारांक पावता न्हय ? केवलो कसो न्हेसला ? तांबडो ग्रावाद ! आं,धवें कालसांव, भांगराफ्रेमीचेंवोक्ल बोटांत मुदी ! कसली ? कितें म्हळें विक्टोरिया, कलकत्ता ? बी. सी. आं कळ्ळें. मोटार रोखडीच धाकटां. सांजचो म्हाका परतून ट्रंक कॉल कर. विसरूं नाका आं. आं. इतलेंच मरे ? बरें. दोन दिसांनी धाडून दितां. बरें.

( कागदार बरयता. घांट वाजयता. पांडू येता. )

पांडू असो यो. ह्या कागदार बरयलां तें सारकें वाच. टॅक्सी करून दाभोळे वच.

**पांडू** : टॅक्सी कित्याक बाब ? आमची गाडी आसा न्हय ?

**जगन्नाथराव** : आरे, सांगतां तें आयक. आदीं टॅक्सी करून वच आनी वळखिचो टॅक्सीवालो व्हरूं नाका. समजलें ? ह्या कागदार वर्णन केलां तसलो मनीस विमानतळार दिसल्यार ताका वचून मेळ आनी हें कार्ड दी ताका आनी तो सामान दितलो तें घेवन यो. चार बेगो आसतल्यो. रोखडेंच तें सामान घेवन कुठ्ठाळचे गेरेजींत चल. चारुय बेगां पेरैरीच्या सुवादीन कर. हे घे शंबर रुपया.

**पांडू** : बरें बाब ( पांडू वेता. जगन्नाथराव टेलीफोन करता. )

**जगन्नाथराव** : हलो, हलो. कांदोळकार आसा ? आं. कोण ? कांदोळकार, हांव जगन्नाथराव उलयतां. हें पळे, एक काम बेगीन

करूंक जाय. कुठ्ठाळच्या गुदावांत चार बेगो येतल्यो त्यो फोंड्यां बार इदेयालांत व्हरून दवर. थंय मंत्र्याची गाडी थारतली. तांतूत व्हरून दवर. मोटार आयली ना जाल्यार तुजी मोटार घेवन वच. रातोरात सगलें सामान बेळगांवां पावंक जाय, समजलें ? सातापयलीं शीम उपूंक जाय. मातूय उशीर लावंक फाव ना. हलो ? कांय कागदां धाडून दितां. निळो लाखाटो हांसळकाराक दिवचो. कस्टमार रे, समजलें? बेगो धरगटगीच्या पेडयेर पावत्यो कर. बेळगांवां. सगलें सारकें ध्यानांत दवर. फाल्यां रोखडोच परत आनी म्हाका येवन मेळ. बरें !

( जगन्नाथराव घांट मारता. चाकर येता ) कोण रे पेटो ? पेटचा, हीं कागदां व्हरून कुठ्ठाळे गुदांवार पेरैराकडेनूच दी आनी रोखडोच परतो यो. कागदां पाविल्ल्याची पावती घेवन यो. चल बेगीन. ( फोन करूंक बसता )

**पेटो** : बरें बाब.

**लक्षीमबाय** : [ भितल्ल्यान ) जेवंक येतात मूं ? बारा जावंची जालीं.

**जगन्नाथराव** : मातशी राव. फोन करतां. (लक्षीमबाय भायर येता )

**लक्षीमबाय** : दीसभर फोन. दीसभर व्यापार. खावप ना, जेवप ना. एक खीण लेगीत सुसेग ना. कसलो बाये हो धंदो. त्या परस नोकरी कितें वायट आसली ? सकाळीं गेलो, मदीं जेवंक आयलो. सांजचो घरा आयलो. मागीर कसल्योच कटकटी नात.

**जगन्नाथराव** : आगे तुगेली कटकट मातशी बंद कर पळोवया. हलो ! हलो !

**लक्षीमबाय** : कितें म्हळें ?

**जगन्नाथराव** : तुका न्हय गे.

**लक्षीमबाय** : पयलीं जेवात म्हणटां न्ही.

**जगन्नाथराव** : राव मातशी. हलो ! हलो ! तुमकां न्ही. बेळगांवा दी. चार, पांच, तीन, दोन. हय अर्जंट. मातसो बेगीन दी. आं! हाड

गे बेगीन. जेवणूच हाड हांगा. हो फोन केन्ना येत सांगूं नज.
( लक्षीमबाय जेवण घेवन येता. वांटकुळच्या मेजार दवरता. जगन्नाथ-राव तोंडांत घांस घालूंक वेता. इतल्यांत सिल्व्हेर ताकतिकेन येता.)

**सिल्व्हेर** : जगूबाब ! जगूबाब ! एकटोच आसा मरे ? आयक मातसो.

**जगन्नाथराव** : सांग रे !

**सिल्व्हेर** : जगूबाब, तुजेर दोळो आसा. तुका पयलोच सादूर करचो म्हुण सांगतां.

**जगन्नाथराव** : म्हजेर दोळो ! कोणाचो रे बाबा !

**सिल्व्हेर** : आरे जगूबाब. तूं दोळे धांपून दूद पिता. आरे, तुजे भोंवतणी कितें चलता तें तुकाच खबर ना.

**जगन्नाथराव** : कितें चलता रे ? आरे, सारकें सांग मरे.

**सिल्व्हेर** : आयक ( कानांत फुतफुतता ) कळ्ळें ?

**जगन्नाथराव** : एँ ! म्हाका खरें दिसना. तूं म्हजो शेजारी आनी इश्ट. फकत तुकाच खबर आसा. आनी कोणाकूच खबर ना. आरे हांव सांगतां तुका, तूं कांयच भिवं नाका.

**सिल्व्हेर** : हांव भिना रे. तुवें भिवंक जाय समजलो ? आरे तुका धरीत जाल्यार तुका प्रिझांव, धा वरसां, वीस वरसां—तुका बायल भुरगीं आसात मरे ? '

**जगन्नाथराव** : म्हाका कोण धरता रे ?

**सिल्व्हेर** : आरे तुका कांयच खबर ना. आरे, ताणें जाळ विणलां तुजे भोंवतणीं. आज दोन म्हयने जाले हांव पळेतां. तो तुज्या घरा भोंवतणी भोंवता, तरेकतरेच्या भेसांत. पुण तो पोलीस. आज तर हांवें ताका तुज्या जनेलांतल्यान भायर उडकी मारताना पळेलो. जनेला-भायर उडकी माल्ली म्हणटकच तो जनेलाभितर आशिल्लो अशें जायना ?

**जगन्नाथराव** : जालें खरें, पुण म्हाका दिसता तुवें आज चडूच-लायलां—देखून तुका कित्याय कितें दिसता.

**सिल्व्हेर** : घेतलां रे थोडें–पुण म्हजे हे दोळे फटी मारिनात. समजलें ?

**जगन्नाथराव** : पुण ताजो दोळो म्हजेरूच आसा अशें कशें म्हणटा तूं ?

**सिल्व्हेर** : आतां हांव कितें सांगूं ? तूंच ताजेर दोळो दवरून पळे. यो हांगा यो असो. तो पळेलो त्या आंब्यापोंदा. ह्या दिसांनी आंबे कांय नात. म्हणटकच तो तुज्या घरार दोळो दवरपाक आयला अशें जालें ना ? पळे, पळे, तो कुशीक सल्लो. पळे आतां तो चलूंक लागलो. पळे आतां तो दुर्गांफाटल्यान पावलो. पळे आतां थंयच्यान पळेता. पळे मरे पळे. आतां तरी जाली खात्री ?

**जगन्नाथराव** : हय मरे ! आरे घात जालो ! सिल्व्हेर, हें अशें कशें जाले रे ? आनी म्हाका मातूय सुनशा ना. आरें, हें जालें कशें अशें ? म्हजे सगले फोन ताणें आयकल्या जातले–

**सिल्व्हेर** : आयकल्या जातले खंय ? आरे आयकल्याच ताणें. ताका सगलें खबर आसा. ना जाल्यार जिस्तूच ह्या वगतार–

**जगन्नाथराव** : राव–बस थंय आनी ओड हें चिरूट–कितें करूं जाता तें पळोवया–

**सिल्व्हेर** :—भिवं नाका रे. कितेंय उपाय सुचतलो.

**जगन्नाथराव** : हलो ! हलो ! विमानतळ ! हलो ! हलो ! हे टेलीफोन ऑपरेटर खंय गेले काय ? हलो ! आं ! विमान केन्ना येता ? खंयचें काय म्हणटा ? आरे मुंबयचें रे ! कितें, दोनाक पावता म्हणटा ? जिस्त दोनाक ? शी, हीं विमानां अशींच. जेन्ना वेळार पावंक जाय तेन्ना पावनात–आनी जेन्ना नाका तेन्ना जिस्त वेळार. हलो ! हलो ! आफोंस आसा ? आज येवंना म्हणटा. आरे-

**सिल्व्हेर** : म्हणटकच कशें जातलें रे ! विमानतळार आफोंस आशिल्लो तोय ना. आतां कुट्टाळे तरी पळोवया. (नंबर घुंवडायता) हल्लो, हल्लो ! पेरैरा ! आं. हल्लो, हल्लो ! गाडी घेवन चल विमानतळार आनी हें पळे ! कितें म्हणटा ? गाडी घेवन गांवकार गेला ! खंय गेला ? मायनीर ? केन्ना येतलो ? कितें ? आज

सांजचो? आनीक कोण ना गॅरेजींत? कोणना म्हणटा! जेवंक गेल्य सगळे ? ह्याच वेळार तुमकां बरें जेवंक सुचता मरे ! कितें होच जेवपाचो वेळ म्हणटा ? जेवात, जेवात. (फोन खाला दवरता)

**जगन्नाथराव** आतां आनी कितें करतलो ? आतां हांवूच वेतां विमानतळार ! मातशें विमान उसरां आयल्यार जिखलें. देवा सायबा पाव ! तुका एक बोकडो दितां. दोन बोकडे दितां विमान मातशे उसरां धाड. पावस झडय, तुफान फुलय, तुका जाय तें कर पुण विमान मातशें उसरां येवं दी. फक्कत तीस मिनटां, वीस मिनटां–

**सिल्व्हेर** : जगूबाब, आनीक पिशेपणां करूं नाका. आरे तूं अॅरपोर्टार गेल्यार आयतोच मेळटलो मरे ! आरे, परतो फोन करुंया रे. राव. हांव करतां फोन ! हलो ! हलो ! ब्रागांझ आना ? हांव तो सिल्व्हेर. हें चोय. एक काम आसा. अॅरपोर्टार टॅक्सी घेवन एक मनीस येतलो. धव्या युनिफॉर्मांत आसा, केस मातशे पिकल्या, कपळार एक ल्हानशी कोंक. ताका वचून विचार, जगूबाबाचो मनीस काय म्हणून. ताका सांग सामान घेनासतना परत म्हणून. कळळें ? जगू-बाबाचो ओर्द म्हणून सांग. बरें, ओब्रिगाद.

**जगन्नाथराव** : आरे, पुण म्हज्या शोफेराक तें खरें दिसत मरे ? आरे ना. हांवूच वेतां. एकाद्रो वाटेंतूच मेळत तो म्हाका–

**सिल्व्हेर** आरे पापया, तूं नाका वचूं. हांवूच वेतां तर.

**जगन्नाथराव** : चल तर. ( सिल्व्हेर वेता )

**लक्ष्मीमबाय** : आतां तरी जेवता मूं ! काम सोंपलें मूं ?

**जगन्नाथराव** : व्यापाराचें काम सोंपता गे केन्ना ? एक काम सोंपतकच दुसरें काम. व्यापार म्हळयार फुक्या कामां अशें दिसता तुमकां. एका, एका रुपया फाटल्यान कितल्यो कटकटो, लटाफटी ते तुमकां कितें खबर ! हांगचो म्हाल थंय व्हरतलो म्हळयार कितल्यो न्हिदो खळंवच्यो पडटात ! एक गाडी घेतलो जाल्यार कितले कुंस धवे जातात ! एक घर बांदतलो जाल्यार कितलें रगत आट्टा ! पुण तुमकां ताचें कितें ?

**लक्ष्मीमबाय** : म्हणुनूच सांगतां हांव. 'थोडें' तरी जेंवा म्हणून.

जेविना जाल्यार रगत आनिकूय आट्टलें--

**जगन्नाथराव** : आगें, तुजें जेवण खंय वेता गे ? आज चक्र घुंबंक लागलां तांतुंतल्यान सुटलों जाल्यार शितूच न्हय तुवें साकर-भात करून वाडल्यार लेगीत जेवीन. समजली ? पुण आतां एक गोटो गळयासकल वचचो ना. (फोन येता.)

हय. उलयतां–कितें ? म्हजो शोफेर मेळ्ळो ? सांगलें मू ताका ? बरें जालें ! विमान आयलें? आं! शोफेर परतलो मू ? बरें. देव बरें करूं. जांव बाये ! हायस्स ! सुटलों एकदांचो. मातशें लुसकान जाल्यार जांव. पुण तें कोर्ट, ती बंदखण आनी ते वर्तमानपत्रांत फोटे मात नाका बाबा. आतां तरी पोटभर जेवया.

**सिल्व्हेर** : जगूबाब, जगूबाब, तुजी मोटारूच दिसना मरे. खंयच. दिसना. सगल्या घराभोंवतणी पासय माल्ली पुण दिसना मोटार

**जगन्नाथराव** : कितें म्हणटा, मोटार ना ? कोणें व्हेली काय ? कोण व्हरतलो मोटार ! मारुती, ए मारुती, पेटचा, ए पेटचा--

**पेटो** : कितें बाब ! ही पळे, लता बायन चीट दिल्या.

**जगन्नाथराव** : ( वाचता )

' मोगाळ बाप्पाक–

हांव आनी मधू आमी मुंबय वेतात. तुमची मोटार घेवन आमी विमानतळार वेतात. मोटार रोखडीच परतून धाडटां. मधू हो म्हजो इश्ट. पोलीस सबइन्स्पेक्टर आसा तो. आमी फाल्यांच लग्न जातलीं तुमचो आशीर्वाद आसचो– '

आं अशें तर ! म्हजी चली म्हजे मोटारीत घालून प्रसार जालो. स्मगलर खंयचे कडलो, स्मगलर ! आनी म्हजें भांगर ? सगल्यो बेगो विमानतळार पडून रावल्या जातल्यो. चल सिल्व्हेर, चल या आमी.

**लक्ष्मीबाय** : आतां आनीक खंय चल्ले ?

**जगन्नाथराव** : आगे, तुका कितें खबर ! आगे, लता त्या पोलिस इन्स्पेक्टराबरोबर पळून गेलें. स्मगलर खंयचेंकडलो ! स्मगलर ! !

## सं व गां

फुलूबाय–पिराय ३५ वरसां
रवळू–पिराय ४० वरसां
सांवळो–पिराय २५ वरसां
सगुणें–पिराय २५ वरसां

( न्हिदपाची कूड. बाज्ज. कोनश्याक शेंदऱ्यो. हांगा थंय कांय कापडां. आंगलीं, ट्रंको, पोतयो, पोटल्यो. पड्डो वयर सरता तेन्ना माचयेर काळोख. उजवे कुशीक वांटकुळचा मेजार मात एक दिवली तेंवता. माचयेर वणटीक तेंकून एक बाज्ज आसा. पड्डो वयर सरतकच पांच सेकंदां उपरान्त दावे कडचें दार खटखटायल्ल्याचो आवाज. बाज्जेर न्हिदिल्ली फुलूबाय उठ्टा.)

**फुलूबाय** : ( न्हिदसुरे दोळे चोळीत )कोण भायर ? आं! आनीक कोण जातलो ? ( पांगरूण भिरकटायत) म्हगेल्या नशिबांत न्हीद ना. पळेंल्ले वरसून धोडयाऱ्याच्या कपलांत खंय तिनूच गुंडे ! (दारार आवाज ) येतां, बाबा येतां, मातसो धीर धर. (परतून दारार आवाज) आयलें, आयलें. मातूय थार ना. (दावेकडच्या दाराकडेन वता) कोण भायर ?

**खळूचो आवाज** : (काकुळटेन) हांव तो, हांव गे. दार उगड मगे बेंगीन.

(फुलू दार उगडटा. खळूक पळोवन मातशें आंग काडून फाटीं सरता. खळू येता तो संभाजीच्या भेसांत आसा. कमरेक तरसाद, कापोत पावसांत भिजल्या, बूट रेव्यांत बरबटल्या, हातांत ओली चिप्प सत्री.)

**खळू** : हय गे ! मातसो कळाव जालो खरो ! ( माचयेर चक्क उजवाड घालचो) तुका न्हिदेंतल्यान उठयली म्हणून रागार जावं नाका आं.

**फुलूबाय** : रागार ? शी ! शी ! हांव केन्ना रागार जाल्यां तुमचेर? तुमी जाय थंय वचचें, जाय तें करचें, जाय तेन्ना भायर सरचें, जाय तेन्ना घरा येवचें ! लोकांची न्हीद म्होडपाक तुमकां कांयच दिसना .

रवळू : म्हजी बाय ती ! खरेंच हांवें तुजी न्हीद मोडली गे ?

फुलूबाय : (चाळयत) न्हीद म्होडली गे ! तुमकां दिशिल्लें हांव दोळयांत तेल घालून तुमगेली वाट पळेतलों व्हय ? शेर-कुल्याक न्हिदावन आतांच म्हजो काय बरो दोळो लागिल्लो.

रवळू : जांव बरें जालें.

फुलूबाय : बरें जालें खंय ! म्हगेली न्हीद म्होडली म्हणून तुमकां बरें दिसता न्ही ? कसलो अंदुकी सभाव बाये !

रवळू : तशें न्हय गे ! तुवें म्हजी वाट पळेली ना तें बरें जालें अशें म्हणटालो हांव.

फुलूबाय : मातूय वेळकाळ ना तुमकां. घरा येवपाचो हो वेळ काय म्हणटां हांव?

रवळू : घोडयागाडी मेळळी ना आनी मोटारूय मेळळी ना. (बसता आनी बूट काडटा) म्हणून मातसो कळाव जालो. आनी पाव-सान तर अशें धल्लां? कितें करतलों बाये! आयलों पांय बडयत.

फुलूबाय : बेगसार येवपाचें न्ही ? आता सुमाराची रात जावं ना !

रवळू : रात खंयची गे ? निकतींच—

(घडयाळांत चार वाजतात. दोगांय वोगी रावन ठोके आय-कतात.)

फुलूबाय : चार वाजून धा मिनटां.

रवळू : धा मिनटां खंयचीं गे?

फुलूबाय : आमगेली घडयाळ धा मिनटां फाटल्यान आसा तें नकळ तुमी ?

रवळू : ती घडयाळ जाल्या पिशी. धांव धांव धांवता, आतांच क्वार्तेलार.

फुलूबाय : बारा वाजिल्लीं म्हणून सांगू नाका.

रवळू : बारा न्हय गे—पुण—

फुलूबाय : पुण कितें? दादले रात भायर काडटात तेन्ना घडयाळ खंय धांवंक लागता तें जाणां हांव.

रवळू : तुगेली जीब धांवता ती ? हांवें रात भायर काडल्या गे? सांग गे, हांवें रात भायर काडल्या ? म्हाका येवपाक कळाव

जातलो म्हणून सांगूं नाशिल्लें तुका ? हांव नाटच-भुवनांत नाट-काक वतां म्हणून तूं नकळ आशिल्लीं ?

**फुलूबाय** : पुण हांव म्हणटां, हीं नाटकां कित्याक ? नाटकांनी कितें पोट भरता ? तुमी संवंग घेतिल्लें पळोवन लोक हांसतले.

**रवळू** : हांसतल्याचे दांत दिसतले ! ही ! ही !

(सत्रेच्या तोंकान जमखनाचेर आर्का वळटा.)

**फुलूबाय** : दिसतात खरे ! ( **रवळूक** कोंपरान धुकलत ) हीं कितें भुरगेंपणां चल्ल्यांत तुमचीं ?

**रवळू** : ( फट्ट करून बाज्जेवेल्यान उठत ) आं कितें म्हणटा तूं ?

**फुलूबाय** : कितें म्हणटा काय खंय ! तुमचीं सत्री पळेयात तरी. बाये बाये ! तुमी सगलें जमखान भिजोवन उडयलें पळे. तुमचे मुखार माणसुकी ना गे बायें!

**रवळू** : हांवें भिजयलें ? खंय ? ( जमखान पळोवपाखातीर तकली सकयल करता. चेप्यांतल्यान फस्स करून उदक पडटा. )

**फुलूबाय** : घरांत पावस घेवन आयल्या तुमी. तुमचें चेपें कशें उद-कान फुगलां पळेयात.

**रवळू** : फुगूं बावडें ! तूं कित्याक रागान फुगता इतली ?

**फुलूबाय** : म्हाका येता न्हीद आनी तुमच्यो ह्यो भिकारभासो चल्ल्यात. काय ध्यान पळेयात गे बाये !

**रवळू** : पावसाचें कर्म हें !

**फुलूबाय** : पावसाक बावडयाक कित्याक गाळी घालतात ? पावसान नाटक कर म्हणून सांगिल्लें ? आता कापोत काडात तुमगेली. अशेंच न्हिदपाचो बी बेत आसा काय कितें तुमगेलो ?

(**रवळू** लोकांक फाट करून कापोत काडटा. उजवे कडल्या कदेलार उडयता, ती कदेलावेल्यान घसरून सकयल पडटा. शिवणकामाचो खोटलो आसता ताजेर पडटा.)

**फुलूबाय** : हायस्स! हांव भरतालीं तीं फुलां भिजलीं गे बाये! (वचून कपडो आशिल्लो आटो काडटा.)

**रवळू** : फुलां भिजल्यार वायट न्हय. (कमराक हुमकळटा ती तरसाद

फस्स करून काडून कोनशांत दवरपाक वेता. )

**फुलूबाय :** तरसाद आनी आसा दिसता. काय तर हें ध्यान ! भेंस बाजीरावाचो आनी करणी खंय—

**रवळू :** जाणां हांव. करणी खंय पिश्या रवळूची. जांव, पुरो आतां म्हज्या नांवाचो उद्धार ! (रवळू कुडकुडटा)

**फुलूबाय :** आं ! कितें जाता तुमकां ?

**रवळू :** (मातशा वेळान) म्हाका शीं खाता.

**फुलूबाय :** तुमची काकुळट करिना हांव. मुजरत आंगार ओडून हाडटलो ताका कोण कितें करतलो ? आगा वागा म्हाका येवन खागा, असलो सभावूच तुमचो. नाटकां करात नाटकां. बायलेक घरांत एकटी सोडून चलात संवगां घेवपाक.

**रवळू :** मातशी वोगी राव आतां. म्हाका येता न्हीद. तुका झगडपाचें आसल्यार फाल्यां झगडुंया. (झेमेता )

**फुलूबाय :** हांव झगडटां तुमचेकडेन ? खरें आसा तें सांगतां. बऱ्याक गेल्यार खंय विरमत फुट्टा.

**रवळू :** तुका बावडेक कितें खबर? आगे, नाटकां पळेल्याबगर, नाटकां केल्याबगर मनीस जायना, समजली ?

**फुलूबाय :** आयकात तरी बाये ! नाटकां करिना जाल्यार मनीस जायना खंय ! आनी इतले लोक आसात ते? ते नाटकां करूंक वतात काय कितें ? शाळेंतले मास्तर तुमी ! तुमी भुंरग्यांक श्रीगणेशा शिकोवची. तुमकां नाटकां कोणें सांगल्यां ? लग्नाक धा वरसां जालीं तरी नाटकां सुटनात तुमचीं ! सूम जळ्ळें तरी पीळ वचना.

**रवळू :** बायलांची विद्या रांदनी पोल्लांतूच म्हणटा ती ही. म्हणटकच हांव शाळेंतलो मास्तरच म्हणून समजल्या काय कितें ? तूं तुज्या घोवाक वळखना सारकी. हांव एक व्हडलो नट, व्हडलो कलाकार म्हणून तुका खबरूय ना: आयचो म्हजो पार्ट कितलो रंगलो म्हणून सांगूं ? लोकांनी इतल्यो ताळयो पेटल्यो " हा सिंहाचा बच्चा प्राण गेला तरी आपला धर्म सोडणार

नाही " अशें जेन्ना हावें म्हळें तेन्ना तर विचारुंकूच नाका. चलयांनी म्हजेर फुलां उडयलीं, फुलां.

फुलूबाय : चलयांनी खंय फुलां उडयलीं ! काय तर हो शिवाजी !

रवळू : शिवाजी न्हय संभाजी.

फुलूबाय : शिवाजी कितें संभाजी कितें ! दोगूंय एकूच.

रवळू : कितें दोगूय एकूच ? हें तुगेलें गिन्यान.

फुलूबाय : विसरायेर घालूं नाका. म्हणटकच चलयांक पळोंवक गेल्ले तर तुमी ! सोरोप म्हणूं नये धाकलो आनी घोव म्हणूं नये खंय आपलो ! घरांत बायल आसुनय तुमचे भायले चाळे सुटनात.

रवळू : कसले चाळे गे ? आनी चलयांक खंय पळेतालों हांव ? हांव तर म्हगेल्या संवगांत रंगून गेल्लों.

फुलूबाय : रंगून गेल्लो खरो. हारशांत पळेयात तुमचें तोंड. कशें रंगलां तें.

रवळू : आकशी ! आकशी ! (शिंकता.)

फुलूबाय : नाटकांत तुमच्या वांगडा कोण काम करताली?

रवळू : राणू कामतीली चली.

फुलूबाय : दिसूंक कशी ?

रवळू : आसा बरी.

फुलूबाय : म्हजेपरस बरी दिसता ?

रवळू : विचारूंक जाय ?

फुलूबाय : सगुण्या, आगो सगुण्या—

सगुणें : ( न्हिदसुऱ्या आवाजांत ) कितें फुलूबाय ?

फुलूबाय : सगुण्या, ऊठ पळोवया बेगीन.

रवळू : सगुण्याकशी उलो करता गे ?

फुलूबाय : म्हणटकच कोणाक उलो करूं, तुळशीक ?

रवळू : तुळशी? खंयची तुळशी?

फुलूबाय : तुमगेली तुळशी नाटकांतली.

रवळू : आक-शी ! (शिंकता)

**फुलूबाय** : करा नाटकां.

**रवळू** : आक-शी ! आकशी !

**फुलूबाय** : सगुण्या ए सगुण्या, उठटा काय ना गो ?

**सगुणे** : उठटां गे ! कितें गे बाये! न्हिदोंक लेगीत दिनात हीं मनशां. ( उजवेकडल्यान न्हिदसुरें सगुणें दोळे चोळीत येता. )

**फुलूबाय** : सगुण्या, उठलें गो तूं ? आतां आयक बरें करून हे कितें म्हणटात ते. राणू कामतीली चली खंय म्हजेपरस सुंदर. राणू कामतीले चलयेक पळेल्या मगो तुवें ? ती नाकचेपटी, तिरशी, तिटतिटी, हुतहुती. ती चली खंय हांकां बरी दिसता. तूं कालूच कितें सांगतालें गो सगुण्या ? सांग पळोवया हांकां.

**सगुणें** : हांये काल कितें सांगलेलें ? कितें सांगलेलें गे ? म्हाका बाये उगडास ना.

**फुलूबाय** : बरी याद कर गो. तूं काल सांगनासलें म्हजेसारकी सुंदर बायल ना म्हणून.

**सगुणें** : हय गे हय ! अशें म्हणिल्लें खरें हांयें. म्हागेलें खुमणें हार-शेंत पळयतकच दिसता, देवा तुवें म्हाका फुलूबायचें रूप कित्याक दिलें ना ?

**फुलूबाय** : आयकलें ? आयकात आतां.

**रवळू** : हें विचारपाक तुवें सगुण्याक उठयलें काय कितें ? सगुण्या मुखार तूं रुपेस्त गे. पुण तुळशीची सर येता तुका ? चल गो सगुण्या, न्हीद वचून. ( सगुणें वेता )

**फुलूबाय** : ए शिवाजी, न्हीद आतां.

**रवळू** : शिवाजी न्हय संभाजी ( पोट धरून ) आवय गे !

**फुलूबाय** : आतां आनीक कितें जाता ?

**रवळू** : पोटांत जाता. आवय गे !

**फुलूबाय** : नाटकां जाय ? करा नाटकां.

**रवळू** : नाटकां केल्यार पोटांत जाता ? आवयस्स !

**फुलूबाय** : म्हाका कितें खबर ? तुमींच बरें जाणा.

**रवळू** : सगुण्याक सांग, कसाय कर म्हणून.

फुलूबाय : सगुण्याक कित्याक ? हांवूंच वतां. नाजाल्यार मागीर म्हणटले आपूण बरो नाजाल्यार वासपुसूय केली ना.

रवळू : सगुण्याक सांगपाक कितें जाता? सगुण्या ए सगुण्या—

फुलूबाय : सगुण्या, ऊठ पळोवया.

सगुणें : परतून उठप ? कितें गे फुलूबाय ?

फुलूबाय : परतून उठप म्हणचे ? काम आसल्यार उठूंक नाका ?

रवळू : त्या सगुण्याक बावड्याक कित्याक त्रास दिता?

फुलूबाय : हांव त्रास दितां ताका ? हें बरें जालें तुमचें! कसाय कोणाक म्हाका काय तुमकां ? नाटकाक हांव गेल्लें काय तुमी गेल्ले ?

सगुणें : भायर शिगमो करपाक वचों नासल्यार अशें जावचें नासलें. करचें तशें भोगचें खंय.

रवळू : अरें तूं ! बरें मगो फण्णां घालता ! तुगेलीय जीब लागली हुळहुळूंक ? चल न्हीद वचून.

सगुणें : हांव न्हिदपाचीच वाट पळेंतां. कसलो बाये घूड हो! कुकडां-वरी झगडीं !

रवळू : आयकलें कितें म्हणटां तें तुगेलें सगुणें? वावराड्यांक घरच्यो गजाली सांगल्यो म्हणटकूच हें अशें जाता.

फुलूबाय : बावड्या सगुण्याक कित्याक उलयतात? तें म्हणटा तें लटीक न्हय. तुमी भायर जेवपाक वचूं नासले जाल्यार.–

रवळू : हांव जाय थंय वतलों. ताका कितें लागता तें?हांव खंय वतां, कितें करतां तें तुका सांगचें पडटा तें पडटाच. वावराडेकूय सांगूं ? बलाय म्हजी ! हांबें हॉटेलांत वचून मातशें कितें तोंडांत उडयल्लें. म्हाका लागिल्ली भूक. थोडो शिरो जिबेर उडयलो आनी हळसांद्याची पातळ भाजी कितें व्हडलो घात जालो ?

फुलूबाय : घात जालो म्हणून कोणें म्हळां ? पुण अजीर्ण जायसर कसलें खावप ? अन्न तारी आनी अन्न मारी खंय! (रवळूक पळेत मातशा वेळान ) दुडू तुमीच फारीक केलें मूं ?

**रवळू** : अँ ! हांवें ? अँ हांवें ना.

**फुलूबाय** : ना ?

**रवळू** : सगल्यांनींच फारीक केलें गे ! दर एकल्यान आपापलें बील दिलें.

**फुलूबाय** : म्हाका तुमगेलें कांयच खरें दिसना बाये. व्हडपणाचो हावेस तुमकां. तुमी बील फारीक केल्याबगर रावतात ? आपलें नाशें आनी जगाचें हांशें.

**रवळू** : कोण, हांव? हांव बरो करतां फारीक बील! हांव बरो करतां-

**फुलूबाय** : घरांत सामके चामूट तुमी. एक दमडी सुटना. पुण आले-भाव कोलेभाव आसतकच तुमच्या आंगांत कुबेर संचरता.कुबेर.

**रवळू** : (येरादारी काडीत) कुबेर खंय ! हांव खंय आनी कुबेर खंय ! आवयस्स !

**फुलूबाय** : हातच्या कांकणाक हारसो कित्याक ? तुमकां व्हडपणाची आवड. तुमी सवंग धेता तें कोणाचें? तर शिवाजीचें.

**रवळू** : संभाजीचें.

**फुलूबाय** : हांव म्हणटां मास्तराक राजाचें संवंग सोबता ?जांव बील कितलें जालें सांगात पळोवया.

**रवळू** : म्हाका कितें खबर?

**फुलूबाय** : म्हणटकच म्हाका खबर काय कितें ? तुमी कितले दुड काबार केले ते तुमकांच खबर ना ?

**रवळू** : बरी मगे तूं. सांगचेंच पडले तर. धा रुपया बारा आणे.

**फुलूबाय** : धा रुपया बारा आणे ! आनीं कित्याक काय म्हळयार पोटाभरीक. हांव म्हणटां तें हें. फाटल्या सोमारा दारांत पोवाचे डबे आइल्ले. साडेपांच रुपया दिवन हावें एक पोवा डबो घेतलो तेन्ना केदो आकांत केलो तुमी. हांव तुमकां दिवाळें काडूंक लायतलें, संवसार ना करूंक उठला हांव, ना, ना तें उलयले तुमी. ( रडकुळयां परतता ) आनी आतां एके घड-येक धा रुपया बारा आण्यांची कडी करपाक कांय दिसलें ना? म्हगेलो पोवा-डबो अजून लेगीत आसा. पुण तुमगेली पातळ

भाजी खंय गेली ?

रवळू : ( पोटार हात मारून ) ही पळे, ही पळे. अजून हांगा आसा ती. आवय गे!

फुलूबाय : धा रुपया बारा आणे खर्ची नासताना राविल्ले जाल्यार घात जातालो काय कितें ? घराचें भाडें तरी भरूंक जातलें आसलें.

रवळू : घरकाराक पन्नास रुपया दिवंक जाय. तो कितें धा रुपया बारा आण्यांत आयकता ?

फुलूबाय : ताका मातसो थाथारून धरपाक थोडे तरी दिवं येंताले पयलीं. घरकाराची गजाल हावें वोगी काडली ना. आज फांतोडेरूच आयिल्लो तो भाडें मागूंक.

रवळू : कितें सांगतालो ?

फुलूबाय : आनी कितें सांगतलो ? असलीं चिकानां खंय चलचीं नात भाडें मेळना जाल्यार तो तुमकां त्रिबुनालार व्हरतलो खंय.

रवळू : त्रिबुनालार व्हरतलो ? अर्रे तू! व्हर म्हणचे. हांवूय व्हरत. ताका त्रिबुनालार. हे नळे फुटल्यात ते दुसरे घाल्यात ताणें ? हें जनेल मोडलां तें सारकें केलां ताणें ? ह्या घराकच व्हरतां त्रिबुनालार. हांव भोव दिता भाडें. आवयस्स !

फुलूबाय : फाव तुमकां. घरकाराक भाडें दिवपा ना आनीं त्या पोकू-भिकूचे भकीक मात धा रुपया बारा आणे घाले.

रवळू : आवय गे !

फुलूबाय : खायात हळसांद्या तोंडाक.

( मातशा वेळान दारार खटखट जाता. परतून खटखट. तकली वयर काडून पळेता. रवळूय तकली वयर काडटा. दोगांय एकामेकांकडेन पळेतात. )

फुलूबाय : ( आंग काडून ) कोण बाये येंदे वेळचो!

रवळू : कोण जाणा. येंदे वेळचो कोण काय हो ?

फुलबाय : देवा पाव !

रवळू : कोण जायत काय ? कितेंय जालां जांवक जाय.

**रवळू :** पळेलें? हांवें सांगू नासलें तुका कांय भियेवपाचें ना म्हणून.

**फुलूबाय :** जांव बाये. साकर पडूं तुमच्या तोंडांत ( सांवळ्याक ) आरे, पुण रेकाद कितें धाडला रे ?

**सांवळो :** तुजी आबय--हॅं--हँ तुजी आवय बरी पासार जायना.

**फुलूबाय :** बरी पासार जाय ना ? म्हजी बा ? म्हणटकच कितें जाता रे तिका ?

**सांवळो :** तशें म्हळचार कांय जायना तिका. मातशीं दुयेंत आसा ती. दुयेंत म्हळचार—

**फुलूबाय .** देवा सायबा पाव. चडबी दुयेंत ना मरे ?

**सांवळो :** तशें म्हळचार चड दुयेंत आसा ती !

**फुलूबाय :** ( रवळूचो हात धरीत ) आयकलें ? आयकलें ? बा चड बरी ना खंय.

**रवळू :** जातली बरी. जातली बरी. वोगीच भियेंव नाका पळोवया.

**फुलूबाय :** खरेंच चड बरी ना रे ? कितें जाता तें तरी सांग.

**सांवळो :** तशें म्हळयार आतां कांय जायना तिका.

**फुलूबाय :** म्हणजे ? बा बरी जाली ?

**सांवळो :** तशें न्हय. खरें म्हळयार--

**फुलूबाय :** खरें म्हळयार–कितें? सांग बेगीन.

**सांवळो :** खरें म्हळचार हांव सांगचो ना म्हणून राविल्लों. खरें म्हळचार तुजी आवय– म्हणटकच सांगूच म्हणटा ? सांगूंच ? म्हळयार तुजी आवय आत्तांच–हय, आत्तांच देवाघरा गेली. (फुलूबाय घूंवळून सकला पडटा. रवळू तिका सांवरून धरता)

**रवळू :** म्हाका होच भंय दिसतालो.

**सांवळो :** हय. म्हाकाय बी होच भंय दिसतालों. जांव, हांव मेकळो जालों. . हुस्स.

**रवळू :** केदेव्हडलें अरिश्ट आनी दिस्तूच (जांबय काडटा) न्हिदच्याच वेळार– (रवळू फुलूबायक जमनीर न्हिदयता. एक वर्तमानपत्रान तिका वारें घालता. सांवळ्या कडेन रागान पळेता ) दिस्तूच ह्या.

वेळार येवपाची तुका कसली बुदद् जाली रे ?

**सांवळो** : हांव कितें करतलों बाबा ? म्हाका सांगलेलें तशें हावें केलें.

**रवळू** : सांगिल्लें तशें केलें खंय ! हांव सांगतां तशें कर आतां. चल. भितर वचून उदक हाड.

**सांवळो** : उदीक कित्या बाबा ?

**रवळू** : त्यो जाणवायो कित्याक तुका ? उदक हाड म्हणून सांगलें न्हय तुका ?

**सांवळो** : खंय आसा उदीक ?

**रवळू** : चल भितर वचून पळय.

**सगुणें** : देवते पाव ! म्हाजे बायेक कितें जालें गे !

**रवळू** : देवते पाव म्हणचे बदला भितर वचून कांदो हाड पयलीं.

**सगुणें** : (भितर वचत) देवते पाव गे ! सायबिणी पाव गे ! (सांवळो उदकान भरिल्ली एक घागर हाडटा.)

**रवळू** : हें रे कितें ? मातूय अक्कल ना तुका ! हें रे कितें हाडलें ? तुका उदक हाड म्हणून सांगिल्लें हांवें !

**सांवळो** : उदीक घागरेंत आसा बाबा.

**रवळू** : (तिडकून आपले तकलेर हात मारीत) तुजी घागर मात साप सुकल्या. सगुण्या ए सगुण्या ? ( सगुणें कांदे घेवन येता )

**रवळू** : (शेरकुल्याचा रडपाचो आवाज) सगुण्या, खंय गेल्लें गो तूं ? फुलूबाय घुंवळून पडल्या आनी तुजो पत्तोच ना.

**सगुणें** : हांव कांदो हाडूंक गेल्लें न्हय ?

**रवळू** : कांदो हाडूंकळ इतलो वेळ गो ? चल भितर वचून एक ल्हानसो तांबयो हाड. चल बेगीन आनी त्या शेरकुल्याक थांराय. (सांव चाक) आनी तूं कितें करता रे हांगा ? चल, एक फातर हाड.

**सांवळो** : फातर खंय आसा बाब ?

**रवळू** : पळे हाड सोदून खंय आसा तो. ( सांवळो कुडींतले कुडींत बोवाळटा. कोनशानीं पळेता. बाज्जेपोंदा पळेता. )

**रवळू** : सांवळचा, कितें शेणलें रे ?

**सांवळो** : फातर सोदतालों.

**रवळू** : सामकोच तण्णा मरे. आरे, फातर भितर आसतलो. हाड बेगीन (सांवळो भितर वता. सगुणें तांबयो घेवन भायर येता.) सगुण्या हाडलो तांबयो? ओत फुलूबायच्या तोंडार.

**सगुणें** : कितें ओतूं?

**रवळू** : तांबयो ओत.

**सगुणे** : तांबयो कसो ओतूं बाब ? तांबयांत उदीक ना.

**रवळू** : संवगांच मरे हीं ! घागरेंतले उदक ओत तांबयांत ( सगुण घागरेंतलें उदक तांबयांत ओतता. तांबयो उपाट भरून उदक भायर ओतता. सांवळो व्हडलो दांडो घेवन येता.) हें आनी कितें रे ?

**सांवळो** : हांव नकळं बाब.

**रवळू** : तूं नकळ ? तुज्याच कपलार घालता हो दांडो. (सांवळो दांडो थंयच उडोवन भियेवन पळटा ) काय बाये रत्नां एकेक ? झंप्या, हांगा यो. पळोवया तुगेले हात ?

**सांवळो** : कित्याक बाब ? दांडो मारिना मूं ?

**रवळू** : हांगा यो पयलीं. (सांवळो म्हऱ्यांत येवन हात दाखयता.) बरे घट आसात मरे तुजे हात. मार हचा कांद्यार मूठ. (सांवळो कांद्यार मूठ मारता. निमाणी मूठ चुकून जमनीर पडटा.)

**सांवळो** : आवयस्स म्हाजे. हाय हूय ! हाय ! हूय !
(सगुणें फुलूबायच्या तोंडार उदक मारता. रवळू कांदो फुलू-बायच्या तोंडाक सारयता.)

**रवळू** : फुलूबाय, म्हजे अपुर्बायेचें फुलूबाय, उठ मगे ! उठना. कांय उपाय चलना. सांवळ्या, चल वालो हाड बेगीन. वालो ! वालो !

**सांवळो** : वालो ! वालो ! वालो खंय, वालो खंय ?

**रवळू** : पळे, खंय आसा तो ! हांव जाणां जाल्यार तुका सांगतलों आसलों ?

**सांवळो** : वालो ! वालो ! (कुडींतले कुडींत बोवाळटा. बाज्जेर एक

पातळ दिसता. तें ओडीत व्हरता.) हें पळे कितें मेळ्ळें, हें चलत ?

रवळू : कितें रे तें ?

सांवळो : बायचें पातळ शें दिसता.

रवळू : जांव करतलों कितें ? वालो मेळना म्हणटकच–आकांताचो वेळ हो. दी एक तिस्ती.

सांवळो : ( पातळ पिंदता ) आतां कितें करूं ?

रवळू : धर तिजी तकली उखलून, हांव वेंठ घालतां. ( सांवळो फुलूबायची तकली उखलून धरता. रवळू तिज्या कपलाक वेंठ घालता. ) पळे तुवें कशी गत केली ती तिजी. असली खबर फाल्यां सांगूं जायनासली ? मध्यान रातीं पिडूंक कित्याक आयलो तूं ? रेडो खंयचो.

सांवळो : म्हागेले खोसये पासत हांव हिंगा येयलां व्हय ? तूंच सांग.

रवळू : म्हणटकच आमचे खोसये खातीर आयला काय कितें तूं ? म्हजी मांय मेली, वायट जालें. पुण तूं फाल्यां आयिल्लो जाल्यार तुजी मांय मरताली व्हय ? फुलूबाय सुसेगात न्हिदतली आसली आनी हांवूय बरो आड पडटलो आसलों. ( जांबय काडीत ) तुवें येवन सगळयांचो घोळ केलो सामको.

सांवळो : बाब, चूक जाली म्हाजी. दुसरे फावटी चूक करचो ना हांव

रवळू : दुसरे फावटीं ? खंयचे दुसरे फावटीं ? अरे तूं !

फुलूबाय : ( शितिदार येवन ) कितें ? कितें जालां ?

रवळू : कांय जांवना ! कांय जांवना ! न्हीद तूं. बाय म्हजी ती !

फुलूबाय : कांय जावना ? म्हणटकच हांव अशी जमनीर कित्याक तर? ( सांवळयाचेर नदर वता ) कोण बालो चेडो ? बा गे ! बा गे म्हजे !

रवळू : अशी रडुं नाका, नाका रडूं. पूस तुजे दोळे. जावचेलें जालें. आतां रडून कितें फायदो ?

सगुणें : देवते पाव गे ! केदें अरिश्ट येयलें म्हजें बायचेर ! ( रडटा. )

रवळू : आं ! तूंय रडटा ?

**फुलूबाय** : ( रडत रडत ) रडूं दी ताका. बा गे, बा गे !

**सगुणें** : ( फुलूक ) वोगी राव, धीर धर. वायटांतल्यानूय बरें जाता.

**फुलूबाय** : म्हजी बा गेली. आता वायटांतल्यान बरें तें कितें जावपाचें?

**रवळू** : वायटांतलें वायट घडून गेलें. हाजे परस आनीक वायट घडपाचें ना. म्हणून म्हणटां हांव, रडून कितें उपेग ? जीं वतात तींच खऱ्या सुखाक पावतात. तुज्या बाक वाय येवन कितें ख्यास्त भोगताली तें जाणाच तूं.

**फुलूबाय** : बा गे ! काय बरी म्हगेली बा म्हाका सोडून गेली.

**रवळू** : वोगी राव आतां, बाय म्हजी ती. तुगेल्या बाक आतां कांय जायना. सुस्त न्हिदल्या ती. आमी मात हांगा जागरणां करतात.

**फुलूबाय** : म्हगेली बा म्हाका येदे बेगीन सोडून वचत म्हणून कोणाक खबर तरी आसलो ?

**रवळू** : ( हुडको काडीत ) हांग भाडें भरपाच्या हुसक्यांत आशिल्लों तेन्ना म्हाका कोणें सांगिल्लें, म्हजी मांय मरतली म्हणून तर म्हाका खरें दिसचें नासलें. पुण कितें करतलो ? गेल्ल्याचो शोक करूं नये अशें म्हणटात.

**फुलूबाय** : म्हजी अपुर्बायेची बा ती ! म्हगेली गुणेस्त, मायेस्त बा ! चुकनासतना दर पुनवेक करण भरून लाडू धाडटाली. तिणे म्हाका म्हळ्ळें, फुलू, चार दीस येवन राव गो कुळारा. पुण हांणी म्हाका धाडलें ना. हांव म्हऱ्यांत आसल्यार येदे बेगीन तिका दोळे धांपूक दिवचीं नासलीं. हांवे तिजेखातीर म्हणून एक कापड घेतिल्लें. तें कोणाक दिवं गे ? असली बायल संवसारांत मेळचो ना. पापड काय बरी करताली तर ! आतां आमकां पापड कोण धाडटलो ? बा गे ! बा ! बा !

**रवळू** : काय बरी बायल म्हणून सांगूं ? सामको भांगरा कुडको.

**फुलूबाय** : हांवें तिजेखातीर पयरूच एक कापड घेतिल्लें. पाचव्या रंगाचें ! तिका पाचवो रंग खूब आवडटालो. आतां तें कापड कोणाक दिव गे !

**सगुणें** : फुलूबायक पळोवन म्हागेल्या काळजांत कितें जाता म्हुण

सांगों !

फुलूबाय : पुण कितें करतलीं? नशीब म्हजें ! (कपलार हात मारता) हें आनी कितें ! म्हज्या कपलाक कितें बांदलां तुमीं ?

रवळू : वेठ घाला तुका. तुका घुंवळ आयिल्ली न्हय ?

फुलूबाय : म्हगेल्या तोंडार हें कितें चिकचिकीत लागता ?

रवळू : कांदो तो.

फुलूबाय : कांदो तोंडाक सारवप ! कांयच कळना तुमकां. पुण म्हाका ताजें कितें आतां ? म्हजी बा गेली ! आतां म्हाका चारूय सारकें. सगुण्या, मातशें उदक दवर रांदनीर. तोंड धुवन काडपाक. काय बरी बायल ! तुमकां ती काय बरी करताली याद आसा ?

रवळू : ( उबोच न्हिदता. एकदम जागो जावन ) कितें ? कोण ?

फुलूबाय . कोण म्हणचे ? तुमगेली मांय !

रवळू · हां ! हां !

फुलूबाय : तुमचेकडेन कितली बरी चलताली ती ! तुमी कितेंय केल्यार तुमकां वोगी रावताली. तुमी मात तिका केन्नाच दोन उतरां बरीं दिलीं नात. फाटल्या सोमारा ती आयिल्ली तेन्ना तिका तुमी कितें म्हळें जाणा, म्हातारी. म्हातारी म्हळी तिका. आसा उगडास ?

रवळू : फुलूबाय, पुरो आतां.

फुलूबाय : तुमी तिका म्हातारी म्हळी म्हणून ती मेली. म्हजी बा म्हातारी ? म्हजी बा म्हातारी ? बा गे ! बा गे !

रवळू : पुण ती येदे बेगीन मरतली म्हणून म्हाका खबर आसलें काय म्हणटां !

फुलूबाय : तरी ती मेली आनी मरतना तिका तुमच्या उतरांचें कितलें वायट दिसलां जातलें ? पुण म्हज्या बाचें काळीज व्हडलें ! तिणें तुमकां म्हळां जातलें, " जांवयबाब, तुमी म्हाका आगळीं उणीं उतरां दिलीं तरी हांव तुमचो राग धरिना. असली बा म्हजी ! (रवळू उब्यानींच न्हिदता. प्रेक्षकांक फाट. बाज्जेच्या

उजव्या तोंकाक कोंपर तेंकयता.) कितें ? तुमी न्हिदता ?

**रवळू** : कितें म्हळें ? बागेर वचू या ? आतां बागेर वचुंकूच जाय?

**फुलूबाय** : वचूंक जाय म्हणचे ? तुमचो न्हिदपाचो विचार आसा काय कितें ?

**रवळू** : ना. ( जांबय काडटा ) आयस्स !

**फुलूबाय** : ( उठून पातळ सोदता ) म्हगेलें पातळ खंय ?

**रवळू** : म्हाका कितें खबर ? ह्या सांवळ्याक विचार. सांवळ्या – ( सांवळो बाज्जेपोंदा पडिल्ल्यो पातळाच्यो तिसत्यो हाडून दिता )

**फुलूबाय** : कितें ? म्हगेल्या पातळाचीं अशीं बोंदरां ?

**सांवळो** : तुका वेठ घालूं नाका आसलो व्हय ?

**फुलूबाय** : आरे काळा ! म्हगेल्या काय बऱ्या पातळाच्यो अशो तिसत्यो ?

**सांवळो** : म्हाका बाबान सांगिल्लें पातळ पींज म्हणून. हांव कितें करूं?

**फुलूबाय** : तुमकां दोगांकूय अक्कल ना. काय बरें पन्नास रुपयाचें पातळ म्हजें. ताजीं अशीं बोंदरां ! पुण आतां म्हाका कितें ताजें ! आतां म्हाका सगलें सारकें. म्हजी बा गेली न्हय ! ह्याच पातळांत भायर सरतां हांव. चलात, घालात मुस्तायकी.

**रवळू** : मुस्तायकीं घालुंकूच जाय गे ?

**फुलूबाय** : हय तर ! म्हणचे ? असोच शिवाजीच्या भेसांत येवपाचो बेत आसा काय कितें ?

**सांवळो** : (हांसता) हँ ! हँ ! हँ !

**रवळू** : तूं हांसता आतां. एकदां रडोवन जालें. सगुण्या, तें म्हजें पुडवें हाडून दी; आनी निळी ज्युदी आनी धवें खोमीस.

**फुलूबाय** : सगुण्या, म्हजें जांबळें पातळ हाड. आनी तांबडो पोलको. ( सगुणें मुस्तायकी घेवन येता. )

**रवळू** : ( संभाजीचो भेस दें वयता आनी खोमीस चडयता. ) सांवळ्या, ह्या हाताक बुतांव लाय पळोवया. आं बरी याद जाली. एक चीट बरोवंक जाय. ( मेजाकडेन वता. सांवळो ताज्या खोमसाचो हात धरीत वता. रवळू कदेलार बसून चीट

बरयता. )

**सांवळो** : खरें सांगों तुमकां ? ही खबर तुमकां कळोवच्याक म्हाज्या जिवार येयलें. पुण कितें करतलों ? केलो धीर आनी सांगली तुमकां ही खबर. रेकाद दी म्हणून सांगलेलो तो सांगूं नाका ? तुमीच सांगा. तुमकां सोर्त फुटिल्ली जाल्यार ती खबर सांग-पाक म्हाका कितली खोस जातली आसली म्हणून सांगों ? पुण कट्टुलांत आसता तें कोणाक चुकना खंय ! जांव, हायें म्हाजें काम केलें. आतां मातशें सू जालें. असली खबर परतून सांग-पाचें काम हांव जीव गेलो तरी करचों ना. कितें रडली तुमची घरकान्न ! कितें रडली म्हणून सांगों ! म्हाका लेगूं रोडोंक येयलें.

**रवळू** : ( बरयत ) पुरो जाली तुजी बडबड. म्हाका बरोवंक लेगीत दिना तूं.

**सांवळो** : हांव वोगी रावतां बाब.

**रवळू** : ये सगुण्या, हांगा यो गो. (चीट बरोवन लाखाटचांत घालता) ए सगुण्या, खंय गेलें हें ?

**सगुण्याचो आवाज** : हांव बायक पातळ न्हेसयतां.

**फुलूचो आवाज** : मातशे रावात. हांव न्हेसतां—

**रवळू** : बरें ! बरें ! सवकास. (बरयता. दुसरी चीट लाखाटचांत घालता. )

**सांवळो** : हांचें जालें काय ? (दाराकडेन रावन भितर पळेता. )

**रवळू** . (मेजार मूठ मारून) अरे तूं ! यो असो हांगा ! म्हजी ज्युदी दी ! (सांवळो हांगा थंय धांवता) ज्युदी हे थंय आसा. थंय न्हय रे, हांगा. (उठटा आनी आपूण हाडपाक वेता. सावळ्याक आपटता.) आरे, तूं असो मदींच कित्याक रे, खंय वता ? राव असो. धर ही ज्युदी. राव. हांव हात घालतां. घोडयांगाडी आसा मरे सकयल ?

**सांवळो** : हय बाब.

**रवळू** : म्हणटकच आनीक कळाव लांवक जायना. असलो वेळ परतून

येना.

**सांवळो** : कसलो वेळ, बाब ?

**रवळू** : कसलो वेळ न्हीं रे ! समजलो ना तूं. ( रवळू आपले सला-
वारीचेरूच पुडवें न्हेसता). सगुण्या, ए सगुण्या·

**सगुणें** : ( भायर येत ) म्हाका आपयलें बाब ?

**रवळू** : फुलू भायर सल्लें ?

**सगुणें** : भायर सरता बाब.

**रवळू** : हें पळे, हीं दोन पत्रां. इगर्जेलागीं कुर्रयची कास ना ते काशींत
व्हरून उडय. समजलें मगो ? चल.

**सगुणें** : आतां ?

**रवळू** : आतां म्हणचे? हय आतांच. लोकांक रोखडींच मेळूंक जाय तीं.

**सगुणें** : बरें बाब (भितर वचपाक वता.)

**रवळू** : खंय वता गो ?

**सगुणें** : कापड नेसोन येयतां.

**रवळू** : कापड न्हेसून येंता? येदे रातीं तुका भोव पळोंवक आयल्यात
लोक!

**सगुणें** : पुण हें बोंदर न्हेसून म्हाज्यान वोचों नजो बाये भायर.

**रवळू** : कापोत घाल.

**सगुणें** : म्हाजे लागीं कापोत ना.

**रवळू** : म्हजी कापोत घाल.

**सगुणें** : शी बायें ! दादल्यांची कापोत हांव घालूं ?

**रवळू** : चड जाणवायो नाका तुज्यो ! कापोत घाल म्हणटकच घाल.
(सगुणें कापोत घालून पिरजळत भायर वता. )

**सांवळो** : ( भितल्ल्या दाराकडेन वचत) हेंचें जालें ना काय अजून ?

**रवळू** : सांवळ्या ! थंय कितें रे पळेता? म्हजें जोतें हाडून दी पळो-
वया.

**सांवळो** : जोतें खंय आसा बाब ?

**रवळू** : म्हाका कितें विचारता ? हाड सोदून.
(सांवळो हांगा थंय सोदता. निमाणे बाज्जेपोंदच्यान दोन

तरेचीं दोन जोतीं घेवन येता. )

**सांवळो** : हें पळे मेळ्ळें बाब !

**रवळू** : सामको मरे अक्कलशून्य ! दोन तरेचीं दोन जोतीं मरे हीं.

**सांवळो** : जांव बाब ! रातचीं कोण पळोवंक येतलो ?

**फुलूबाय** : ( न्हेसून भायर सरता. रवळूच्या वोंठार अडेच्यो मिश्यो पळोवन) ह्यो मिश्यो घेवन सरतात काय कितें भायर ?

**रवळू** : मिश्यो ? खंय मिश्यो ? ( मिश्यो काडटा ) आवयस्स ! कित दसल्यात ह्यो मिश्यो?

**फुलूबाय** : देवते पाव ! म्हज्यान भायर पावल काडूं नज गे !

**रवळू** : म्हाका तरी येदे रातचें घराभायर गेल्लें खंय आवडटा ? पुण वेळ आयला तसोच.

**फुलूबाय** : सांवळ्या, म्हाका एक सांग पळोवया.

**सांवळो** : कितें बाय ?

**फुलूबाय** : बाचें रूप साप बदलूंना मूं ?

**सांवळो** : मात लेगून ना.

**फुलूबाय** : म्हगेली अपुर्बायेची बा ती! मरच्या वेळार तिका चड त्रास भोगले ना मूं ?

**सांवळो** : मात लेगून ना. बरे भाशेन जेवत बशिल्ली ती वासरेंत विस्वणाचीं दोन पोस्तां रुचीन खाल्लीं तिणे.

**फुलूबाय** : ( वयर पळोवन हुंडकेत ) विस्वणाचीं दोन पोस्तां. !

**सांवळो** : ( हुस्कारत ) हय ! दोन विस्वणां–पोस्तां जेवन वासरेंत बसून ती शणयच्या माथ्याक तेल लायताली. इतल्यान काळ-जांत कस्स जालें तिज्या.

**फुलूबाय** : म्हजी बा ती ( सांवळ्याच्या उतरांची याद जाता ) कितें म्हळें ? शेणयच्या माथ्याक तेल लायताली ?

**सांवळो** : हय बाय. शेंणयच्या माथ्याक तेल लायताली.

**फुलूबाय** : कोण शणय ?

**सांवळो** : गोविंद शणय. तुजो बापूय.

**फुलूबाय** : म्हजो बापूय गोविंद शेणय ?

**रवळू :** ( मुठी आंवळून, दांत वोंठ खावन ) गोविंद शेणय, खंयचो गोविंद शेणय ? म्हजो मांव गोविंद शणय ?

**सांवळो :** हय बाब.

**रवळू :** म्हजो मांव ? म्हजो मांव भायर पडल्यार सात वरसां जालीं.

**सांवळो :** ( ल्हव, ल्हव फाटल्यान सरत ) देवा पाव रे सायबा ! म्हणटकच तुमी नागोजी कांबळकार न्हय ?

**रवळू :** (दांत वोंठ खायत) कांबळकार ? नागोजी कांबळकार ? हांव कांबळकार सो दिसतां रे ?

(सांवळो फाटी सरत रावता.)

**फुलूबाय :** उलय मरे आतां. हें कांबळकाराभाशेन दिसतात रे ? आनी हांव कितें कांबळकान्नशी दिसली रे ? बरो आयला हो !

**सांवळो :** हो कांबळकार न्हय ? कांबळकार खंय रावता तर ?

**रवळू :** कांबळकार? कांबळकार ते गिरणीफाटल्यान रावता. समजलो?

**सांवळो :** म्हाका दिसलें, हेंच घर गिरणी फाटलें.

**रवळू :** हें घर गिरणी फुडलें. गिरणीफुडल्यान आयल्यार हें घर गिरणी फाटलें. पुण गिरणी फाटल्यान आयल्यार हें घर गिरणी फुडलें. आयलें ध्यानांत ?

**फुलूबाय :** तूं गिरणी फाटसून कित्याक आयलो ना रे ?

**सांवळो :** देवा सायबा पाव ! कितें जालें हें ?

**फुलूबाय आनी रवळू :** कितें जालें आनीं म्हणटा वयर ?

**सांवळो :** म्हणटकच ही खबर म्हाका परतून सांगची पडली तर! परतून रडारड, परतून घुंवळ, परतून कांदो लावप, परतून वेंठ घालप–

**रवळू :** मागीर हांब वचूं काय कितें ?

**सांवळो :** तूं वचूं नाका गा. पुण म्हागेलें काम सोंपलें म्हुण म्हागेलो जीव सू जाल्लो.

**रवळू :** शी ! शी ! हांवें असलो पिसो मनीस खंयच पळोंवना.

**फुलूबाय :** आवय गेली म्हणून लोकांक भेश्टावप ! कसलो बाये काळ आयला हाजेर ?

सांवळो : म्हागेलो गुन्यांव जालो बाय. गुन्याव भोगोस बाय.
फुलूबाय : उलोंव नाका तोंड घेवन.
रवळू : चलूंक लाग. पिसांट खंयचें !
फुलूबाय : जाणवाय.
रवळू : अबरगत.
फुलूबाय : कपलफुटको.
सांवळो : पुण बाब, तुमकां खोस जावपाची.
रवळू : खोस जावपाची खंय- जवादें खंयचें ! पिसांट, अरवळ, टणटण-मारी.
सांवळो : हांव पिसांट! हांव अरवळ ! कित्याक ? तुमगेली मांय मोरोना म्हणून ? हांव कितें करूं ताका ?
फुलूबाय : अर्रे तूं ! सुंगट कसो बरो उडटा मरे ?
रवळू : अर्रे तू ! हांगा कित्याक आयलो रे ? चल झूर, चल.
(सांवळयाक धुकलीत) अपशकुनी खंयचो ! काळचा तोंडाचो.
सांवळो : हांव अपशकुनी ? हांव काळचा तोंडाचो ? तुमच्या तोंडाक कोण लागतलो बाब! अळशिकेंत फातर उडयलो मगा हांयें ही रात हांव केन्नाच विसरचों ना.
फुलूबाय : आनी हांव विसरन काय कितें ! म्हगेली न्हीद म्होडली मेल्ल्यान. कर्मदळिद्री खंयचो !
रवळू : चल भायर. व्हाशीमोर-झूर ! झूर ! झूर !
( सांवळयाक धांवडायत भायर वता. परत भितर येता. )
हायस्स ! कसलें अरवळ म्हणून सांगूं ?
फुलूबाय : म्हाका बाये सामकी भेश्टावन उडयली ते अबरगतीन.
रवळू : तो गेलो मूं ? आतां उलोवया आमी. पळेली तुगेली आवय कसली ती ? उलय आतां, उलय गे ! आतां दांतकडी कित्याक बसली तुजी ?
फुलूबाय : अशें कित्याक तापता? चडून बी आयलां काय कितें ?
रवळू : हय, चडुनूच आयलां. आतां हांव घरकाराक कितें सांगूं ?
तुजी आवय मरूंक ना हें समजतकच ताका कितें सांगूं हांव ?

सगलें बगलांट म्हणून सांगूं ?

**फुलूबाय** : ताका कित्याक सांगूंक जाय ? कांयच सांगपाची गरज नी

**रवळू** : (किळच मारून ) पुण हांवें तशें बरयलां न्ही गे ?

**फुलूबाय** : ताका बरयलें ?

**रवळू** : हय, बरयलें हांवें. परतून परतून भाडें मागता म्हणून बरयलें हांवें, म्हजी माय मेली म्हणून. भाडें रोखडें दिवंक जांवचें ना.

**फुलबाय** : रोखडेंच बरोवंक जाय आसलें ? मातूय थार ना तुमकां.

**रवळू** : मांय मरूंक ना अशें म्हाका कशें कळचें? आनी, आनीं–फाल्यां शाळेंत कसो वचूं ?

**फुलूबाय** : शाळेंत वचूंक कितें जालां ?

**रवळू** : कितें जालां? कितें जालां म्हणून विचारता ? आगे, हांवें त्या प्रिंसिपालाक बरयलें न्ही गे, म्हजी मांय मेल्या, हांव तीन दीस शाळेंत येंवचो ना म्हणून.

**फुलूबाय** : ताकाय बरयलें तर––

**रवळू** : हीं सगळीं फकणां म्हणून म्हाका कशें कळचें ? म्हाताड्डूल खंयचें! आमचो घोळ केलो तिणें.

**फुलूबाय** : कितें म्हळें तुमी ? (इतल्यांत शेजाऱ्याच्या दारार खटखट जाता) शू ! सांवळो कांबळकाराच्या दारार मारता पळे, आयकलें ?

**रवळू** : म्हाका कितें तातूंत ?

**फुलूबाय** : जांव बाये. शेजाऱ्नीली आवय मेली. जीव सू जालो.

**रवळू** : जीव सू जालो ! शेजाऱ्नीली आवय मेली म्हणून तुजो जीव सू जालो ?

**फुलूबाय** : मातशें चुकिल्लें जाल्यार म्हजी आवय मरची नासली ? येवजून येवजून म्हाका हांसूंक येता बाये.

**रवळू** : हांस जाय तितली.

**सगुणें** : ( भितर येत ) हायस ! कितें म्हणून पावस बाये. जांव घालीं एकदांची पत्रां.

**रवळू** : पापणी, पत्रां कितें केलीं तुवें ?

**सगुणें** : पत्रां घालीं कुर्येचे काशींत.

**वळू** : घालीं काशींत, बेस बरें केलें. इतलीं हुतहुतेपणां कोणें करूंक सांगिल्लीं ?

**सगुणें** : तुमीं सांगो नासलें काशींत उडय म्हुण ?

**रवळू** : हय, सांगिल्लें हांवें. पुण फाल्यां घाल्लीं जाल्यार मांय मरतली आसली तुजी ?

**सगुणे** : हें गे बाये कितें ? पत्रां बेगीन वचूंक जाय म्हणून तुमींच सांगिल्लें न्हय ?

**रवळू** : हय, सांगिल्लें हांवें. हिजी आवय गेल्ली म्हणून सांगिल्लें हांवें. पुण आतां.–

**सगुणें** : म्हणटकच ती मोरोंना ? देवाची किरपा बाये !

**फुलूबाय** : म्हजी बा मरूं ना. शेजान्नीली आवय भायर पडली खंय. मानाय घर चुकलो.

**सगुणें** : तुज्या तोडां साकर पोडों. पुण खरें–मगे ?

**रवळू** : (तिडकून) हय. खरेंच.

**सगुणे** : जांव बाये ! जीव सू जालो म्हाजो.

**रवळू** : बरो सू जालो जीव तुजो ! जीव सू जालो खंय.

**फुलूबाय** : हांका वायट दिसलां गो तांची मांय मरूंना म्हणून.

**रवळू** : म्हाका वायट दिसलां ! म्हाका कित्याक दिसतलें वायट ? (सगुणें हांसत भितर वता.)

**फुलूबाय** : म्हजे बाक उजो लागिल्लो जाल्यार हांकां खोस जातली आसली.

**रवळू** : उजो ! उजो ! बरी याद जाली. भिकूभट, भिकूभट.

**फुलूबाय** : भिकूभट सो !

**रवळू** : भिकूभटाक पत्र बरयलां हावें म्हजे मांयच्या बाराव्याक यो म्हणून.

**फुलूबाय** : म्हज्या बाच्या बाराव्याक! आरे काळा, म्हजी बा मरपाची तूं वाट पळेत आसा तर . . .बा गे म्हजी ! (रडटा.)

**रवळू** : म्हातारी खंयची ! घात केलो म्हजो, घात केलो. . . सगुण्या

ए सगुण्या; खंय गेलें गो तें सगुणें!

**सगुणे** : ( दोळे चोळीत भायर येत ) म्हाका न्हिदोंक लेगीत दिनात हीं. हांव वयतां, फाल्यांच हांव वयतां.

( पड्डो पडटा )

## संवगां

मोहिनी : २० वरसां

आवय : ५० वरसां

१ लो चोर : ४० वरसां

२ रो चोर : ६० वरसां

३ रो चोर : ३० वरसां

४ थो चोर : ५० वरसां

(उंची फर्निचरान सजयल्लें साल. वणटीर एका जाण्टया दादल्याचो उंची फास्केंतलो फोटो. दोन, तीन वाटकुळी मेजां. एका मेजार देवाची मुर्त. दुसऱ्या मेजार एक घडयाळ. पड्डो उगडटा तेन्ना मोहिनी मेजार वाचीत बशिल्लें आसता. स्टेजीर मंद उजवाड. रातिचो वेळ. आवय येता.)

**आवय** : बाय मोहिनी, केदी रात जाली गो ! वाचप पुरो आतां. चल वचून न्हीद पळोवया. ( जांबय काडीत ) म्हाका बाये न्हीद आयली.

**मोहिनी** : थोडींच पानां उल्ल्यांत काकी. तूं न्हीद वचून. हांव रोखडेंच येतां.

**आवय** : तुका जाय तशें कर बाये ! जाय तेन्ना न्हीद. पुण हें पळे ! तें जनेल मात धापूंक विसरूं नाका आं. हालीं चोरांचो खुबूच सुळसुळाट जाला बाये. वेळकाळ सांगू येना.

**मोहिनी** : बरें काकी !

(वाचतां वाचतां न्हिदता. वाचताना भितल्ल्यान आवाज येता. पयलीं तुफानाचो आवाज आनी मागीर. 'त्या चार चोरांनी तिका धल्ली आनी झाडाक बांदली. तिच्या तोंडाक गुड्डो माल्लो. फकत तिजे दोळे उकते आसले. इतल्यांत पयस तिका एक आकृताय दिसली. घोड्यार बसून एक मनीस येतालो. तो म्हऱ्यांत पावलो तशे सगले चोर पळून गेले. तो तरणो रत्नसुंदरी लागीं आयलो आनी ताणें म्हळें : "रत्नसुंदरी!" आनी तिणें म्हळें. "विजयकुमार !" हो आवाज येतना उजवाडाचो झोत पुस्तकार पडटा. ल्हव, ल्हव मंद जाता; परतो व्हड व्हड जायत वेता. मोहिनी मेजाक तकली तेंकून न्हिदता. जनेंलांतल्यान एक मनीस उडकी मारून भितर सरता. कुडींत सगले कडेन पळेता. मोहिनीक न्हिदिल्लें पळोवन तो आवाज करिनासतना

उबो रावता. बांटकुळया मेजावेले घडयाळीचेर ताजी नदर वता. तो ल्हवूच फुडें वता आनी घडयाळ लेंसांत गुटलावन जनेलाकडेन वता. वतना दुसऱ्या मेजाक आपटता. त्या आवाजान मोहिनी जागें जाता. न्हिदसुऱ्या दोळयांनी त्या मनशाक पळेता. आनी न्हिदसुऱ्या आवाजान म्हणटा ).

**मोहिनी** : तूं आयलो ? हांव तुजीच वाट पळेतालें.

**पयलो चोर** : म्हजी वाट ? कित्याक पळेतालें म्हजी वाट ? हांव कोण तो जाणा तूं ?

**मोहिनी** : जाणां हांव – तूं ! तूं विजयकुमार. म्हाका पयस पयस व्हरूंक आयला. आमी घोडयार बसून वतलीं न्हय ! दुदाचे तळयेंत न्हातलीं. भांगराच्या वोतांत नाचतलीं. वडाचे सांवळेंत बसतलीं. तूं आनी हांव–हांव आनी तूं.

**पयलो चोर** : भांगराचें वोत ? वडाची सांवळी ? म्हाका कांयच समजना. तूं वेळ काडूंक सोदिना मूं ? लोकांक उठोवंक सोदिना मूं ? म्हाका धरून दिवचें ना मूं ?

**मोहिनी** : तुका धरप ? कित्याक ? तूं चोर तर ? चोर ! चोर !

**पयलो चोर** : शू ! आड्डूं नाका. लोक उठत. हांव चोर न्हय.

**मोहिनी** : तूं चोर न्हय तर कित्याक आयलो हांगा ?

**पयलो चोर** . सांगतां राव (घडयाळ पोटालागीं घट धरता आनी वचूंक करता. )

**मोहिनी** : तूं कितें व्हरता ? (भोंवतणी नदर भोंवडायता. घडयाळ नाशी पळोवन) म्हजी घडयाळ. म्हज्या भावाची ती. तीं नाका व्हरूं. आनीक कितेंय व्हर.

**पयलो चोर** : आनीक कितें व्हरूं ? आनीक व्हरपासारकें कितें आसा हांगा ? हें मेज व्हरूं, हें कदेल व्हरूं ? काय ही आलमार व्हरूं ? ही घडयाळ व्हरूंक बरी. अशी लेसांत गुटलायली आनी व्हेली.

**मोहिनी** : पायां पडटां तुका. पुण ही घडयाळ नाका व्हरूं. म्हज्या भावाची याद ती.

**पयलो चोर** : तुज्या भावाची याद! आं. म्हणटकच ही घडयाळ नाका व्हरूं ?

**मोहिनी** : नाका.

**पयलो चोर** : तुका जायच ती ?

**मोहिनी** : हय जायच.

**पयलो चोर** : म्हणटकच अशें कर.

**मोहिनी** : कितें ?

**पयलो चोर** : ही घडयाळ विकती घे.

**मोहिनी** : कितें ! म्हजीच घडयाळ हांव विकती घेवं ?

**पयलो चोर** : ही घडयाळ हांव व्हरतकच ती तुजी कशी उल्ली ?

**मोहिनी** : व्हरतकच काय चोरतकच ?

**पयलो चोर** : तुका जाय तें म्हण. पुण भायर व्हरून कोणाकूय विकचे परस तुकाच विकिल्ली कितें वायट ?

**मोहिनी** : म्हजीच घडयाळ हांव विकती घेवं ? बरो मरे तूं !

**पयलो चोर** : तुका जाय जाल्यार घे. घेच म्हणून हांव खंय म्हणटां ?

**मोहिनी** : आरे चोरा !

**पयलो चोर** : हें पळे. म्हाका चोर म्हणूं नाका ! हांव चोर न्हय. हांव धंदो म्हणून चोरी करिना. गरज म्हणून चोरी करतां. ही चोरी न्हय.

**मोहिनी** : ही चोरी न्हय ?

**पयलो चोर** : न्हय, ही चोरी न्हय. हांव तुजी घडयाळ व्हरतां गरज म्हणून. ही घडयाळ हांवें व्हेली म्हणून तुजो घात जायना. पुण ती हांवें व्हेली ना जाल्यार म्हजो घात जाता. व्हडलो घात जाता.

**मोहिनी** : घडयाळ व्हेली ना जाल्यार तुजो घात जाता. अजापच मरे !

**पयलो चोर** : ही घडयाळ व्हरना जाल्यार म्हाका पयशे मेळनात आनी पयशे नासल्यार वखद हाडूंक मेळना.

**मोहिनी** : वखद ? कसलें वखद ?

**पयलो चोर :** तुका सगलेंच सांगचें पडलें. म्हजो चलो चड बरो ना. उरता काय मरता. दोतोरान हीं वखदां बरोवन दिल्यां. आजच हाड म्हणून सांगिल्लीं. फाल्यां सकाळीं तरी हाडुंकूच जाय. वखदाक पंदरा रुपया तरी पडटले. म्हणटकच तूंच सांग पळोवया, हांवें ही घडयाळ व्हरची काय ना ?

**मोहिनी :** तूं म्हणटा तें फट न्हय. ( थोडो वेळ थांबून ) हे सांग पळो-वया, तूं पयशे जोडपाचो धंदो करिना ?

**पयलो चोर :** करतां तर ! एका पसऱ्यार आसतां. गिरायकाक. माल दितां. पुण पयशे पावनात. दुकानावेलो माल मात हांव फारायना आं. तशें करप बरें न्हय. थोडे दुडू उरिल्ले ते सगळे दोतोराक दिले. म्हणटकच–

**मोहिनी :** हें पळे...

**पयलो चोर :** कितें ?

**मोहिनी :** हांवेंच तुका पंदरा रुपये दिल्यार ?

**पयलो चोर :** आरे वा ! तर बरेंच जालें. म्हजोय प्रस्न सुटलो. फाल्यां घडयाळ व्हरून विकपाचो त्रास चुकलो म्हजो. दी पयशे. (खण उगडल्याचो आवाज. पयशांचो आवाज.)

**मोहिनी :** अठरा रुपया आनी थोडे पयशे आसात. घे हे पंदरा रुपया. बाकिचे दवरतां घराक म्हणून. फाल्यां नुसत्याक जाय जातले. नाजाल्यार काकी म्हाका दवरची ना.

**पयलो चोर :** तुजी काकी रावता घरांत ?

**मोहिनी :** काकी म्हळ्यार म्हजी आवय. हांव आवयक काकी म्हणटां.

**पयलो चोर :** आनी बापायक काका म्हणटा ?

**मोहिनी :** म्हणटालीं.

**पयलो चोर :** बापूय ना तर तुका ? म्हाकाय ना बापूय. बापूय आसल्यार बरें न्हय ?

**मोहिनी :** बरें आनी वायट. बापूय बरो आसल्यार बापूय आसप बरें बापूय वायट आसल्यार...

**पयलो चोर :** तुजो बापूय वायट आसलो ?

**मोहिनी** : आतां नाशिल्ल्या बापायक वायट कसो म्हणूं ? पुण आवयक खूब त्रास दिले ताणे. सोरो पितालो आनी रातचो येवन तिका बडयतालो.

**पयलो चोर** : भाव ना तुका ?

**मोहिनी** : एक भाव आसलो पुण तो भायर पडलो. लांकडाचे पाटये पोंदा चिड्डून मेलो. ती याद जातकच अजून आंग शिरशिरता. म्हजो भाव आशिल्लो जाल्यार तुजें येदो आसतलो आसलो.

**पयलो चोर** : म्हजे येदो ?

**मोहिनी** : हय, तुजे येदो ! तुका वरसां कितलीं ?

**पयलो चोर** : अठ्ठावीस–

**मोहिनी** : हय. अठरा वरसांचेर भायर पडलो तो. धा वरसा जालीं ते गजालीक. भाव नाशिल्ल्यापरस आशिल्लो भाव मरप हाजे सारकें दुख्ख ना.

**पयलो चोर** : खरेंच ? (थोडचा वेळान) अशें कितें पळेता म्हजे कडेन ?

**मोहिनी** : वोगीच ! भावाची याद जाली. तोय दिस्त अशेंच म्हणटालो.

**पयलो चोर** : खरेंच ?

**मोहिनी** : हय दिस्त अशेंच. कांय उगडास वचून वचनात. विसल्ल्या भाशेन दिसतात. पुण अचकीत कोणूय तरी एक उतर उलयता आनी ते उगडास परतून जागे जातात.

**पयलो चोर** : तूं आनीं तुजी आवय, दोगांच रावतात तर हांगा !

**मोहिनी** : हय. आमी दोगां आनी आमच्या दोगांचे उगडास ! केन्ना केन्ना वाज येता म्हणून वाचीत बसतां. भावभयणां आसल्यार वेळ वतलो आसलो.

**पयलो चोर** : म्हाकाय भयण ना. एक भाव आसा पुण तो ल्हान आसा.

**मोहिनी** : तुका भयण ना ?

**पयलो चोर** : ना.

हांव वतां–आनीक कांय ना मूं बोल्सांत ? ( बोल्सांत हात घालून एक मुदी काडटा.) ही मुदी तुजी ?

**मोहिनी** : न्हय बापूसायब.

**दुसरो चोर** : तुजी न्हय. आं. म्हणटकच कोणाची तें पळोवचें पडटलें. (आपलेभितर) कोणाची जायत काय ? (वता)

(मोहिनी वचून दार धांपता. कांय वेळान जनेलाचेर एक आकृताय दिसता. दोळयांर काळें रुपडें, हातांत सुरो. )

**मोहिनी** : (ताका पळोवन) चोर–चोर–धांवात, धांवात, चोर!

**तिसरो चोर** : शू, तोंड बंद. नाजाल्यार मरतली. हो पळेलो सुरो ?

**मोहिनी** : चोर—

**तिसरो चोर** : आडडून कांय उपेग ना. तुका सोडोवपाक कोणूच येवचोना हांगा. लागसार कोणाचें घर ना म्हणून जाणां हांव. हांगा एक गिरेस्ताची बायल आनी तिजी चली रावतात हें जाणां हांव.

**मोहिनी** : जाणा तर तूं ! चोर खंयचे कडलो ! कितें चोरूंक आयला तूं ? तुका कितें जाय ?

**तिसरो चोर** : चोराक आनी कितें जाय ? भांगर,-शिगर, रुपें, दुडू आसा तें दी. ही पळेल्या म्हजी पोती? हे पोतयेंत जाता तितलेंय घेवन वतां.

**मोहिनी** : येदो धडधाकट आसून चोरी करपाक लज दिसना ?

**तिसरो चोर** : चोरी करूं नाका तर कितें करूं? हात मुखार करून भीक मागूं ? हांव दुडू मागून घेवपी न्हय, हांव दुडू काडून घेवपी. आनी धडधाकट आसां म्हणून तर चोरी करतां. आनी लज कसली ? सांगून सवरून चोरी करपांत लज कसली ?

**मोहिनी** : हें सांगपाक लज दिसना?

**तिसरो चोर** : लज ? चोरी हो म्हजो धंदो. सगले धंदे सारके. दोतोराक आपल्या धंद्याची लज दिसता ? वकिलाक आपल्या धंद्याची लज दिसता ? पसरकाराक आपल्या धंद्याची लज

दिसता ?

**मोहिनी** : चोरी करप हो धंदो ?

**तिसरो चोर** : हो एकूच धंदो सरळ, नितळ आनी धिटायेचो. पसरकार लुट्टा पुण आपूण नाडटा म्हणून सांगिना. दोतोर फटयता पुण आपूण फटयता म्हणून सांगिना. सगले दुडू चोरतात. लिपयां चोरतात. कोण तांदळांत फातर घालता, कोण दुदांत उदक घालता. कोण सवाय वखदां म्हारग विकता. पुण सगले सांगतात, आमी चोर न्हय. आनी साव कशेशे उकत्या माथ्यान भोंवतात. आमी मात सांगतात—आमी चोर. चोरूंक आयल्या. ह्य, हांव चोर आनी हांगा चोरूंक आयलां. (सुरो उबारीत मुखार वचून) बऱ्या बोलान कितें आसा तें दी.

**मोहिनी** : आमचे कडेन कांय ना.

**तिसरो चोर** : हीं काकणां आसात तीं आनी ही सरपळी दी.

**मोहिनी** : हीं कांकणां म्हाका आजयेन करून घाल्लीं आनी हीं सरपळी म्हज्या भावाची याद.

**तिसरो चोर** : तुजी याद म्हाका कितें करपाची आसा? दी तीं काकणां

**मोहिनी** : तीं काडूंक येनात.

**तिसरो चोर** : खऱ्यानींच ?

**मोहिनी** : खऱ्यानीच.

**तिसरो चोर** : ही सरपळी दी तर.

**मोहिनी** : ना दिवचें.

**तिसरो चोर** : हांव काडूं ?

**मोहिनी** : सर कुशीक. म्हाका हात लांव नाका. हांवूंच दितां काडून. (सरपळी काडून ताजेर उडयता.) घे ही सरपळी आनी चल तोंड घेवन.

**तिसरो चोर** : (सरपळी जिखून, तिजो उमो घेत) वतलों आशिल्लों पुण पांय उखलनात. म्हाका तुवें हे सरपळेन बांदलां. आतां कसो वचूं ?

**मोहिनी** : पुरो तुजी बडबड, तुजें काम जालें. आतां चल वच.

**तिसरो चोर** : हांव आयिल्लों चोरूंक. पुण तुवेंच म्हजें मन चोरलें.
**मोहिनी** : चोरचें चोरून हीं उतरां कित्याक ?
तिसरो चोर : हांव चोर? पळे-पळे म्हजे दोळे चोराचे दिसतात तुका ? पळे.
**मोहिनी** : तुजे दोळे चोराचे न्हय जायत. पुण तुजे हात चोराचे.
तिसरो चोर : तूंच खरी चोर. हांव सांगून सवरून चोरतां. तूं अशी उलयनासतना मोन्यानी चोरता. पळे, म्हज्या दोळयांत कोण चोरून बसल्या ती !
**मोहिनी** : उलोवं नाका म्हजेकडेन.
तिसरो चोर : तुजी सरपळी परती दिवं.
**मोहिनी** : तुका जाय जाल्यार दी.
तिसरो चोर : तुजी सरपळी दितां हांव. पुण म्हजें मन परतें दी. घ ही सरपळी. घालू गळ्यांत ?

(जनेलांतल्यान चवथो चोर येता. ताज्या हातांत पिस्तूल आसा.)

**चवथो चोर** : Hands up हात वयर ! हात वयर !
(तिसरो चोर हात वयर करता .)
**चवथो** चोर : ती सरपळी उडय खाला. उडयता काय ना ?
**तिसरो** चोर : ना उडयना.
**चवथो** चोर : पळे (फाटीं सरत नेम धरता ) तीन म्हणचे पयलीं उडय. तुज्या जिवापरस तुका ती सरपळी व्हडली ?
**तिसरो** चोर : हय.
**चवथो** चोर : एक, दोन-
**मोहिनी** : (धांवत वचत ) राव, राव, राव. नाका! नाका!
**चवथो** चोर : हा! हा! हा! सर कुशीक - तो मरत म्हणून तुका भय ? हा! हा! मोहन. शाब्बास. एके सुंदर चलयेचें मन तुवें चोरलें पुण -.
**तिसरो** चोर : कोण पात्रांव ? तूं खंय हांगा ?

**चवथो** चोर : मोहन, म्हाका पुराय उलोवं दी. तुवें मोगाची चोरी केली. तुका चोरयेचो मोग ना. म्हाका तुजो केदो भरवंसो आसलो! तुज्या फुडाराचेर म्हजी नदर आसली. हांवे थारायल्लें म्हज्या फाटल्यान तूच तांब्रडया देवचाराचो राजा जांवचो–तुका खबर ना, पुण हांव सदांच तुज्या फाटल्यान भोंवता, तूं कसो तें पळोवंक. पुण आज एके चलयेक भुलून तूं खरो धंदो विसल्लो. तुवें सपूत घेतिल्लो याद ना तुका? चोरयें आड मोग आयल्यार हांव मोगार खोंट मारतलों. येदे बेगीन विसल्लो? खरो चोर मोगांत पडना, समजलो? मोगांत पडिल्ल्याचें संवंग करता.

**तिसरो** चोर : (मातशा वेळान) हांव मोगाचे संवंग करिना कित्या-वेल्यान?

**चवथो** चोर : तुज्या दोळयांवेल्यान. दोळे फटी उलयनात केन्ना.

**तिसरो** चोर : पात्रांव, दोळयांनी कशें फटी उलोवचें तें तुवेंच शिकयलें ना म्हाका ?

**चवथो** चोर : तुजो सपूत याद ना तुका ? हांव जितो आसां तो मेरेन तांबडया देवचाराचो वांगडी उरतलों. मर्दी सोडून गेल्यार तांबडया देवचाराच्या रागाच्या उज्यांत तुजो गोबोर जातलो.

**तिसरो** चोर : फाटले सपूत आतां म्हजो फुडार बांदचे नात. मनश्यांक भेशटावपाक मनश्यांनी केल्ल्या देवचाराची म्हाका भिरांत ना. आतां हांवूच म्हजो देव आनी हांवूच म्हजो देवचार. आज ह्या घरांत म्हाका देव मेळ्ळा. चल तूं––

**चवथो** चोर : तांबडया देवचाराची तरसाद तुजे तकलेर बसल्या-बगर रावची ना.

**तिसरो** चोर : मोगान घट जाल्ल्या काळजाक तरसादेची धार लागना. चल, एक––दोन––तीन.

(तिसरो चोर चवथ्या चोराक खाला उडयता)

**चवथो** चोर : हय, तुवें म्हाका खाला उडयलो. म्हज्या हातांतलें पिस्तूल उडयलें. तांबडया देवचाराच्या राजाचो असो अपमान

केलो एके चलयेमुखार.

**तिसरो चोर :** हांवें अपमान करूंक ना. तुवेंच तुजो अपमान करून घेतलो. तुजो हक खरो करपाक तूं म्हजेर फार मारूंक तयार जाल्लो––

**चवथो चोर :** हय, म्हजो हुकूम मोडटा ताका मरणाक वेंग मारची पडटा.

**तिसरो चोर :** हांवे तुजो हुकूम मोडूंक ना. हांवे मनीसपणाच्या हुकमाक हां म्हळें. हांवे मोगाक वेंग माल्ली. चल ऊठ आनी चलूंक लाग.

**चवथो चोर :** तूं तुज्या पात्रांवाक हुकूम दिता.?

**तिसरो चोर :** आयच्यान तूं म्हजो पात्रांव न्ही. हांवूच म्हजो पात्रांव. घे हो तुजो तांबड्या देवचाराचो मणी. ( चवथो चोर फाटीं सरत वता ) बरें, येतां हांव.

**मोहिनी :** थामलो कित्याक ?

**तिसरो चोर :** वोगीच. बरें येतां––

**मोहिनी :** मोहन–

**तिसरो चोर :** कितें ?

**मोहिनी :** तुवें हुकूम कित्याक मानलो ना ?–– म्हजे खातीर ?

**तिसरो चोर :** न्हय, म्हजेखातीर— म्हज्या मनाक मानना तो हुकूम हांव मानिना–– आनी तूं मदीं कित्याक पडली ?

**मोहिनी :** म्हजें काळीज सांगता, तेंच हांव करतां.

**तिसरो चोर :** आतां तुजें काळीज कितें सांगता ?

**मोहिनी :** काळीज सांगता ते वोंठार हाडूंक येना. एक उतर उलयल्यार सगलें सांगतलें म्हणून वोगीच रावतां–.

**तिसरो चोर :** सगलें सांग.

**मोहिनी :** कशें सांगूं ? तूं आयलो––इतल्या वरसांनीं तूं आयलो. तुजीच वाट पळेतालें हांव. म्हज्या सपनांत, जागरणांत तुकाच पळतालें. तूं खरो मू ? काय सपनांतलो ? जनेलांतल्यान वाऱ्यार बसून आयला काय न्हिदेच्या ल्हारार बसून

आयला तूं ?

**तिसरो चोर** : तू न्हिदांत ना मूं.

**मोहिनी** : हांव आशिल्लें न्हिदांत. आतां जागें जालां – कितलीं वरसां न्हीद काडली. एकलेपणाची न्हीद —तूं आयलो आनी म्हाका जागयलें. हो आवाज कसलो ? म्हज्या मनांतलेंच हें वादळ न्हय मूं ?

**तिसरो चोर** : हय. हो आवाज – हो बोवाळ ! तांबडचा देवचाराचे वांगडी म्हाका व्हरूंक आयल्यात. म्हाका धरूंक आयल्यात.

**मोहिनी** : तुवें सपूत सोडिल्लो न्हय ?

**तिसरो चोर** : हय. हांवें सपूत सोडिल्लो पुण ताणीं सोडूंक ना. बरें. म्हज्या सपनांतले सुंदरी, म्हाका वचूंक जाय —

**मोहिनी** : म्हाका घेवन वचना ?

**तिसरो चोर** : तुका कसो घेवन वचूं ? रानावनांत एकटचाकूच सुवात आसा.

**मोहिनी** : हांव येतां तुजेबरोबर. तुज्या कश्टांचो म्हाका वांटो दी.

**तिसरो चोर** : मोग आमचो दोगांयचो. पुण मरण म्हजें एकटचाचेंच बरें, तुजें नांव कितें ?

**मोहिनी** : मोहिनी

**तिसरो चोर** : बरें मोहिनी, म्हज्या सपनातले सुंदरी, मरणाक हावें कुशीक सारलें जाल्यार हांव येतां तुजे कुशींत. म्हज्या वोंठांनी तुजीं दुकां पुसूंक——

**मोहिनी** : मोहन! मोहन! (न्हिदेंत मोटचान उले मारता. ते आयकून आवय भायर येता.)

**आवय** : कोण गो मोहिनी, तुवें उलो माल्लो? चोर बीर येवंक ना मगो? तरी हांवें सांगिल्लें तुका तें जनेल धांप म्हणून——

**मोहिनी** : (जाग येवन लजेत) हय. विसल्लेंच मगे !

( पड्डो पडटा. )



मोल रु. ४-००

## आयर्चीं प्रकाशनां

प्रसादाफूल
तुळशी
गांथन
वेळेवयल्यो घुलो
आशाढपांवळी
बापू
भजगोविन्दम
वासवदत्ता
पैगंबर
ओली सांज
अुजवाडाचे सूर
संशयकल्लोळ
सालोमे
सूड
स्मगलर

## फायर्चीं प्रकाशनां

मुक्ती
अच्छेव
मोनी व्यथा
विराट
सांगाती
हिमालयांत